जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४६ : आंक ४ : डिसेंबर, २०१९

* संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी :
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

* उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

* वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



## मांडावळ...



भायले चित्र : ''मॅडोना ऑन अ क्रेसेंट मून इन होर्टस कनक्लुसस''
(१४५०) चित्रकार: अज्ञात



# म्हजो पापा

डॉ. उर्बा नायक जोशी

अशें म्हणटात जशीं जशीं आमी जाण्टीं जायत वतात तशीं तशीं आमकां भुरगेपणांतल्यो यादीं सदांच येत आसतात. बरे वायट जे जे अणभव आमी भुरगेपणांत घेतल्यात, त्यो बऱ्यो वायट यादीं आमकां सदांच याद उरतात.

सगळ्यां भुरग्यांक आपल्या आवय बापाय वांगडा घालयिल्लो अणभव सदांच याद उरता. दर एक भुरगो आपले भुरगेपण केन्नाच विसरना.

भुरग्याचे मन समजा ल्हानपणांत कोणेय जर दुखयल्लें जाल्यार सुद्धा भुरग्याक तें घट्ट बरें जाण्टे जाय मेरेन याद उरता, तशेंच ल्हानपणा जी व्यक्ती ताचेर उपाट मोग करताली, ताच्या बरोबर घालयिल्ले क्षण ताका बरें जाण्टेपणांत लेगीत घट्ट याद उरतात. अशें हें भुरगेमन निश्पाप तशेंच सादेंभोळें आसता.

मनशाची नातीं सुद्धां तशीच बरी-वायट सगळ्या तरेचे कडू गोड यादी अणभव दिवन वतात.

मागीर तें आवय बापायचें नातें आसूं, भाव भयणीचें, घोव बायलेचें, आवय पुताचें, वा बापूय धुवेचें नातें आसूं, बरें वायट, गोड अणभव ह्या सगळ्या नात्यां भितर आसतातच. पूण कसल्या यादींक चड प्राधान्य दिवप कसल्या यादी विसरून वचप हें फकत आमच्या हातांत आसता.

वायट यादी, कडू अणभव बेळशेल्या जेवणां भशेन आसतात. जितल्यो त्यो आमी आमच्या मदीं तिगोवन दवरतली तितलीच ताका घाण मारताली तशेंच ताचो आमच्या शरीराक लेगीत बादीकार आसता देखून ते तेन्नाच मनातल्यान भायर मारपाक जाय, शक्यतो विसरपाचो यत्न करूंक जाय. ना जाल्यार नात्यां मदलें कडू अणभव, नातें फुलोवच्या परस नातीं बावोवन उडयतात.

अशेंच एक नातें आमी जन्मतकच रोकडेंच आमचे सामकें लागीचे जाता तें म्हणल्यार आवय बापायचें नातें. आवय बापायचें नातें खरें म्हणल्यार सगळ्यांत श्रेश्ठ नातें, अशें सगळींच मानतात.

हे नातें बाकी सगळ्या नात्यां परस शुद्ध, निस्वार्थ, निश्पाप आसता. हातूंत स्वार्थ नासता. देवाण-घेवाण नासता. अपेक्षा ह्यो सगळ्याच नात्यानी आसतात. पूण जे कोण नात्यां मदीं आपलो स्वार्थ साधतात ते नात्यांचो वेव्हारच करतात. पूण आवय बापायच्या नात्या भितर व्यापार नासता.

म्हजें आनी म्हज्या आवय बापायचें नातें अश्याच तरेचें आसा. म्हाका म्हज्या आवय तशेच बापाय कडल्यान सदांच कितें ना कितें शिकूंक मेळ्ळां.

दोगांयचो स्वभाव खरे म्हणल्यार एकदम वेगळो वेगळो. आवडी निवडी सामक्यो वेगळ्यो, विचार-आचार सुद्धा वेगळे.

ल्हानपणांतल्यान पप्पा तर सदांच म्हाका एक ''एंग्री यंग मॅन'' दिसता. पयलीं तर ताका सट्ट करून राग रोखडोच मस्तकाक मारतालो. आतांय मारता पूण ताचे प्रमाण पयली परस उणें आसा. पयली पासून तो अन्याया विरुद्ध सदांच झगडपी, केदोय व्हडलो मनीस आसूं, जर कोणूय चुकीची गजाल करता, दुसऱ्याचेर अन्याय करता वा सामान्य मनशाचेर जंय जंय अन्याय जाला, थंय थंय ताणें आपलो आवाज वयर काडला. तो आपले शस्त्र ''पेन'' वापरपाक केन्नाच विसरलोना. ताणे असल्या गजालीक सदांच पेनाच्या रुपान वाचा फोडल्या.

ह्या ताच्या निर्भिड स्वभावाक लागून जायत्या जाणांची मनां दुखावल्यांत वा जायत्या जाणा कडेन ताची दुस्मानकाय जाल्या. पप्पाचे जायते इश्ट कोत्र जावन पयस गेल्यात, जाल्यार पयसुल्ले लोक मित्र जाल्यात.

पूण अशे आसून लेगीत पप्पा ह्या गजालीक व्हडलेशें घेवन बसूंक ना. तो म्हणटा जे कोण इश्टागत मना पासून मानतात ते कसल्याय परिस्थितींत इश्ट उरतात. हेच मानसिकतायेक लागून

तो आपल्या केदीय व्हड टिका करपी दुस्मानाक लेगीत ते सगळे विसरून तो ताचे कडेन मेकळेपणान वागिल्लो दिसला. आतां समाजकार्य करपाक अग्रसर आसपी मनशाक हे सगळे गोड अणभव येतातच. समाजकार्य करतकच कांय जाणां दुखावतात तर कांय जाण सुखावतात.

जायतीं आंदोलनां आमी ल्हान आसतना जाली. नांवां याद ना, पूण त्या आंदोलनांच्यो यादी मात थोड्यो थोड्यो याद आसात.

पप्पान घरांत कोंकणी शाळा उगडली. वाड्या वयली जायतीं भुरगीं आमच्या घरांत शिकूंक येतालीं. पप्पान शिकोवपाक एक कोंकणी टिचर लेगीत दवरिल्ली. आमी तेन्ना खूब ल्हान. घरांतच सगळीं भुरगीं जमतालीं. आमी सगळ्यांनी बरोबर कोंकणी शिकपाक सुरवात केली.

पूण तेन्ना गोंयांत कांय समाजकंटक कोंकणी भाशेची सदांच नसाय करताले. ताच्या कानार ही खबर पडली. कोंकणी मराठी वाद खूब नेटान चलतालो. तांच्या रागाक तेन्ना आताचे जायते राजकारणी नेट दिताले. ह्या वादांत कांय चळवळींतले आमच्या घरा एक दीस सांजवेळार बडयो, हॉकी स्टीक्स, बेटां घेवन येवन आमच्या मुखेल दारार बडोवपाक लागले. 'शिवदासाक पयली भायर काडांत' अशें म्हणूंक लागले.

घरांत आमी दोन ल्हान भुरगीं, आमची आजी आनी आवय आसली. घरा भायर अशे गुंड आयल्यात, आमचें घर धाडायतात, म्हणून आमच्या शेजाऱ्यान फोना वयल्यान पप्पाक शिटूक केलें. 'आयचे राती तूं फोंड्यां येवं नाका, पणजेच राव' म्हणून सांगलें. त्या दिसा पप्पा पणजेच आत्यागेर रावलो.

त्या लोकांनी आमच्या कोंकणी शाळेचो बोर्ड फोडून उडयलो. ह्या झगड्यादी आमची कोंकणी शाळा कांयमची बंद उडोवंची पडली.

म्हाका आयजूय तो प्रसंग याद आसा. जेन्ना ते लोक दारार मारताले तेन्ना आमी दोगी भयणी खाटी पोंदा लिपून बशिल्लीं. आनी आमची आवय निर्भयपणान शांततायेन दाराच्या दुसऱ्या वटेनच्यान त्या लोकांक शांत करपाचो यत्न करताली.

मातूय भियेनासतना ती त्या वेळार तांचे कडेन बरे तरेन उलयताली. तांकां समजावपाचो यत्न करी. ते वेळार तिचे तें रूप पळोवन आमकां त्या घडणुकेचो मातूय भंय असो दिसलोना.

आकांता वेळार भिवन रडपा परस खंबिरपणान ताका फुडें वचपाचे हो म्हज्या आवयचो गूण म्हाका खूब आवडलो. आनी तोच गूण हांव म्हज्या आचरणांत हाडपाचो यत्न भुरगेपणांतल्यान करीत आयलां.

हो जालो एक अणभव. जंय पप्पा मार खावपाचो वाटावलो. पूण हो एकूच हल्लो पप्पाच्या वांट्याक ना, हाचे सारके जायते हल्ले पप्पान सोंसल्यात. मागीर ते धमकेचे फोन जावं, पत्रां जावं, मानसीक हल्ले, तशेच शारिरीक हल्ले जावं, सगळे पपाच्या वांट्याक आयल्यात.

आयज ते सगळें याद करतकच म्हज्या पप्पान आयुश्यांत खूब लोकांचो राग आनी मनस्ताप सोंसला. हे चिंतकच आंगार काटो येता. आयज म्हाका समज कोणें कितें बरे वायट म्हणटलें जाल्यार हांव रोखडेंच दुख्खी जावन रियेक्ट जातां. आमच्या मर्दी कांय अशेय लोक आसात जे मार पडटकच, जिवेनिशी मारपाच्यो धमक्यो येतकच, आत्मघाती हल्ले जातकच, सामकेच मनांतल्यान भिवून फाटी सरतात. आनी भंयान मागीर केन्नाच मुखार सरनात आनी ते हातांत घेतिल्ले कार्य सोडून दितात.

पूण पप्पा ह्या सगळ्या गोश्टींत सामको विपरीत वागता. तो तें कार्य सोडच्या परस अदीक नेटान हातांत घेवन पूर्ण करता. देखूनच उपरांत ताचे लिखाण अदिकच काटक जायत गेलें. हें सगळें ताणें आजून मेरेन एकट्यानच हाताळला. ताचे समाज कार्य मागीर अधिकाधीक कसल्या ना कसल्या रुपान सदांच अग्रसर जायत गेलें.

पप्पा वेवसायान टिचर. पप्पान जायते खेंपे धर्मा भितर जावपी कांय गोश्टीचेर टिका करून लिखाण केलां, ते खातीर तांचेर जायते धर्मगुरू आजूनय बेजार आसात. ह्याच काळाक लागून त्यावेळा पप्पाच्या प्रोमोशनाचेर लेगीत ताचो प्रभाव जालो आनी ते जावपाक पावलें ना. पुण पप्पाक ह्या गजालीचो मातूय पच्छाताप जावंक ना, वा दुख जावंक ना.

देवान आयज मेरेन पप्पाक जे दिलां तातूंतच तो सुखी समादानी आसा. मनशाक आयुश्यांत सगळ्योच गजाली मेळनात. ज्यो मेळूंक नात ताचे खातीर पप्पाक अजीबात खंत जावूंक ना.

मनीस कोणच परफेक्ट आसना. दर एकल्या भितर गुण दुर्गुण बरो वायट, स्वभाव आसता. तशेंच तरेचे गूण दुर्गूण पप्पा भितरूय आसात, आमच्या सगळ्यां भितर आसात. पप्पाचे बरे गूण दुसऱ्यांनी देख घेवपा सारके. पूण दुर्गूण मात सामकें भंयकर, ते कोणेय आपल्या आचरणांत हाडल्यार, त्रासांत पडपाचें.

म्हाका पप्पाचो एक गूण सामको आवडटा. तो म्हणल्यार तो आयुश्यांत सदांच सकारात्मक मानसिकताय बाळगुपी. केदेंय व्हड संकट येवं वा कसलेंय केदेंय व्हड पयशांचें लुकसान जावूं, वा कोणेंय ताका फोटोवं, नाडू तो त्या विशयाचेर, आनी व्यक्ती बद्दल चड चिंतूंक बसना. जाणे त्या गजाली खातीर रडत बशिल्लो हावें केन्ना पळोवंक ना. 'जाले ते जावन गेलें, सोड ताचेर उदक आता' अशें तो म्हणटा. ताचेर आनी चिंतून कांय साध्य जावपाचें ना. असल्या गजालींचेर ताणे ताण घेतिल्लो म्हाका केन्ना दिसूंक ना.

आतां जाण्टेपणांत मात शरिराचे बारीक सारीक त्रास जातात तेन्ना तो खूब ताण घेता, आपल्याक भयंकर कितें तरी जावंक ना मूं? हें तो मेकळ्या वेळार चिंतता.

इंटरनेटार बसून दुयेसा बद्दल गुगल करता, आपल्या मित्रांक फोन करून तांचे सल्ले घेता. आनी लोकांच्या वेगळ्या वेगळ्या सल्ल्याचेर तरेतरेचो दोतोर, वखदां, उपचार करता.

आमच्या घरांत तर हालीसराक बेडरुमांत गेली जाल्यार तरेतरेची मलमां, बाम, तेलां आनी डबे भरून गुळयो पळोवंक मेळटात. जाण्टेपण आयलां हें सांगपाचो तो एक संकेतच म्हणल्यार जाता. पूण हे दुयेंसांक, आनी शरीराच्या बारीक सारीक त्रासांक भिवपाचो गूण हालीच ह्या धा वर्सांक आमकां दिश्टी पडटा.

हाच्या आदी पप्पा जोर आयल्यार लेगीत घरांत थंड उदक न्हातालो. तेंवय बी, सदांच माथ्यार. थंडी जावं, पावस जावं, गरमी सदांच कुडकुडीत थंडी पडल्यार सुद्धा थंड उदक माथ्यार ओततालो. आनी सकाळीं फुडें स्कुटरीन मम्मीक घेवन कामाक वतालो. ताणें दुयेसा बद्दल केन्ना चितले ना. तशेंच केन्ना तरेतरेच्या दोतोरोगेर सुद्धा वचूंक ना. पूण आता मात हाचे सामके उरफाटें पळोवंक मेळटा.

तेच परी आदी पप्पाक रोकडोच राग येतालो. खंयसरूय गेल्ले कडेन वयर सकल गजाल घडली जाल्यार पप्पा खूब तिडकतालो. रोकडोच चाळवतालो. लोकांच्या आंगार वतालो. समाजांत अमूक तमूक गजाल आवडलि ना जाल्यार ताचो जीव सामको अस्वस्थ जातालो. रोखडोच पेन आनी पेपर काडून त्या विशयाचेर आपलो राग व्यक्त करीत बेधडक बरयत रावतालो. एकदां फरर करून बरोवन काडल्या उपरांत तो आनी ताचेर विचार करीनासलो, आनीक बरयिल्लें परतून वाचूंक वचनासलो. आसा तशेच छापूंक दितालो. ''काडली जीब लायली ताळ्याक अशें तो सदांच वागतना दिसतालो. देखून कांय जाणाक ताचो हो स्वभाव आवडूंक ना. देखून जायते बरे मागपी मित्र ताचे दुस्मान जाले. कोत्र जाले, आनी आजुनय पप्पाचे पेपरांत बरयल्ले लेख वाचतकच बेजार जातात. घरा मागीर जायते टिका गुण गावपी फोन येतात. आनी पप्पा तांचे कडेन खूब वेळा उलोवंक बसता.

पूण पप्पा मात सदांच तांच्या सगळ्या बद्दल चिंतूंक बसना. वा मनात राग धरून लेगीत बसना. तो आपलो राग एकदांच आपल्या लिखाणा वरवी ओंकून मेकळो जाता, आपले मन साफ करता.

शाळेंत शिकतना आमकां पप्पान बरयिल्ल्यो कथा, पाठाच्या रुपान शिकपाक मेळ्ळ्यात. कोंकणी विशयाचो आमचो शिक्षक जेन्ना म्हजी वळख उर्बा हे ह्या लेखकाची धूव म्हणून वर्गांत सगळ्यां सामकार करतालो. तेन्ना मन खूब उमेदी जातालें. सगळीं भुरगीं म्हाका अजापान पळयतालीं.

म्हज्या कांय खास इश्टीणीक तर म्हज्या बद्दल वेगळोच गैरसमज आसलो. ''एक दीस तीं म्हजे सरी येवन म्हणपाक लागलीं तुजो पापा एक बरो कोंकणी लेखक, तुका कांय बरें. तुका निबंध बरोवपाक, कोंकणी विशय शिकपाक तांची बरीच मदत आसतली न्हय.''

पूण उपरांत हांव घरांत घडपी सत्य घटना सांगली. ती म्हटल्यार आमकां केन्ना ताणें खंयच्याच विशयाचेर निबंध बरोवपाक मदत करूंक ना. हाचे उलट ताणें सदांच म्हाका पयली कागदाचेर आपले विचार, मतां मांड, उपरांत हांव ताचेर सुदारणा करतां, आनी दर खेंपे भाशेच्या विशयांत म्हाका अशीच तकली फोडची पडल्या.

''दिसता तशें नासता देखून जग फसता'' अशी म्हण म्हजे आनी पप्पा बद्दल लागू जाता. आजुनय खंयच्याय सरकारी कार्यालयांत गेल्यार जर पप्पा आमच्या बरोबर येयीत जाल्यार कामां ताबडतोब जातात. कोणेंच पप्पा कडेन सकयल्यान बाका पोंदच्यान पयशे मागपाची हिंमत केल्ली हांवें पळोवंक ना. पूण पप्पा सदांच म्हाका एकट्याक सरकारी कार्यालयांत धाडटा. आनी गरज पडल्यारच आपल्याक फोन कर हांव ताचे कडेन उलयतां अशे म्हणटा, आनी उपरांत म्हजें काम हांव एकटेंच करतां.

आतां मेरेन पप्पान सदांच आमकां आपल्यापरीन सगळे बरोवपाक शिकपाक सांगीत आयला, आनी समजना जाल्यारूय आपूण स्वता सोंप्यां भाशेंत शिकयत आयला. खंयचेंय विशय कसो सोंप्यां पद्धतीन भुरग्यांक शिकोवचो हें पप्पाक बेस बरें जमता. पूण गणीत हो विशय पप्पान केन्नाच आमकां शिकोवंक ना. तो विशय शिकोवंच्या आदीच ताणे आपले हात वयर केल्ले म्हाका याद जाता.

अशीच आनी एक गजाल म्हाका याद जाता. म्हज्या धावेच्या परीक्षेची. हिस्ट्री विशयांत म्हाका एक पाठ आसलो, 'Indias Freedom Struggle' हो पाठ शिकपाक खूब कठीण आसलो. ह्या पाठांत भितर जायत्यो तारको वर्सां सकट याद दवरच्यो पडल्यो, त्या भायर घडिल्ल्यो क्रांतीकारी घडणुको सुद्धा याद दवरपाक पडटाल्यो. ह्याच पाठाक सगळ्यांत चड गूण आसले. तेंच म्हाका सारकें याद उरनासलें. पोपट पंची करून लेगीत कांयच फायदो नासलो. तेन्ना परिक्षेच्या सुटयांनी पप्पान हो धडो म्हाका बरी काणी सांगची तशी रस लावन शिकयिली. ताच्या उपरांत म्हाका तो पाठ समजलो, आनी सगळ्यो घडणुको तारखो वर्सां सकट याद उरलीं.

म्हाका धावेक परीक्षेंत हिस्ट्री विशयांत बरें गूण पडले. हांवें चिंतले जर सगळ्यां शिक्षकांनी अश्या तरेचे कठीण विशय आमकां एका काणयेच्या रुपान पयलींच शिकयले जाल्यार सगळीं भुरगीं रस लावन शिकतलीं आसलीं. पूण दुर्दैवान म्हाका असले शिक्षक खूब कमी मेळ्ळे.

हाच्या वयल्यान समजता पप्पा एक बरो लेखकच न्हय तर बरो शिक्षक सुद्धा आसलो. आता तो रिटायर जाला खरें. पूण खंय गेल्ले कडेन, पप्पाचे आदले विद्यार्थी पप्पाक खंयसरी मेळूं ताका मुद्दाम हडकुपाक येतात. तांची विचारपुस करतात. ''सर कसो आसा?'' अशें विचारून खबर घेतात. ताचे विद्यार्थी आजून सुद्धा तांका भरपूर मान दितात, हे वयल्या गजाली वयल्यान दिसून येता.

अशे तरेचें शिक्षक आनी विद्यार्थ्यांचें नातें हालीसराक तितले पळोवंक मेळना. आतांचे विद्यार्थी आपल्या शिक्षकांची सदांच फकाणा मारतना, तरेतरेची तांकां नांवां दवरतना, तांकां चाळयतना दिश्टी पडटात. हे सगळे पळोवन मन दुखावता.

वळून पळयतना म्हाका एक गजाल स्पश्ट दिसता. पप्पा जरी नामनेचो लेखक आसलो तरीय, पप्पान आपलो चडसो वेळ समाज कार्य करपाक घालयला. तरेतरेच्यो चळवळी ताणें आपल्या तरणेपणार केल्यो. ह्या खातीर सदांच शाळा सुट्टकच तो घरा येवचे बदला भायल्या भायर आपलें समाजकार्य करूंक वतालो. शिक्षक जाल्ल्यान ताका तितलो अर्दो आदेस मेकळो मेळटालो. त्या भायर सुटयांनी मागीर त्यो दिवाळेच्यो सुटयो जावं, वा गर्मीच्यो सुटयो, पप्पा सदांच भायरच आसतालो. पप्पाच्या ह्या समाज कार्याचो चटको आमच्या भुरगेपणाचेर लेगीत बसलो.

सुटयांनी सगळीं भुरगीं म्हज्यो इश्टीणीं आपल्या फॅमिली बरोबर भायर खंय खंय भोंवपाक वतालीं. आनी मागीर येतकच आमकां आपल्या भोंवडेक गेल्ल्या सुवाते वयल्यो सगळ्यो गजालीं सांगतालीं. हांव मात ल्हान आसतना केन्नाच मम्मी पप्पा बरोबर सुटयांनी भोंवडेक गोंयां भायर गेलें ना. कित्याक सुटयांनी लेगीत पप्पा आमच्या बरोबर वेळ सारिनासलो. तो सदांच कसल्या ना कसल्या कामा खातीर भायर आसतालो. आमच्यो सुटयो पेड्ड्यार जायनासल्यो. आमकां घरान बेजार येता म्हणून पप्पा मागीर आमकां आत्यागेर म्हापश्यां हाडून सोडी. हांगा आमी म्हयनो भर रावतालीं. आत्याचे घर खूब व्हड, आनी भोंवतणी खेळपा खातीर व्हड सुवात आसा, आमी सबंद दीस भर भायर भितर खेळत रावतालीं. आमचे आत्या आमचेर खूब मोग करतालें. देखून आमकां आत्यागेर रावपाक खूब आवडटालें. आत्या आताकान हालींच म्हणजे चार वर्सां फाटी अकस्मात काळजाच्या आताकान आमकां सोडून देवा कडेन गेलें. पप्पाची ती एकटीच धाकटी भयण. पप्पाचो ते खूब मोग करी. ताच्या यादीन, खुबदां पप्पा दोळ्यांत दुकां काडटना दिश्टी पडटा. रक्षाबंधन, भाउबीज ह्या दिसांनी पप्पाक सदांच आपल्या भयणीचो उणाव भासता, आनी अर्दी मर्दी सदांच तो ताची याद काडटा.

पप्पाची हांवें एक गजाल पळयल्या. जायत्या लोकांक तो भायल्यान खूब कठोर दिसता. पूण घरांत आपल्या दोनूय धुवां बाबतींत खूब पॉझेसीव, आनी प्रॉटेक्टीव आसा. आमी कितलींय व्हड जाली तरीय ताका आजूनय आमी ल्हानच दिसतात. धा-पंदरा वर्सां आदीं एक दीस आमी सगळीं भुरगीं गाडी घेवन रातचीं सिनेमा पळोवपाक गेल्लीं. हांव, म्हजी भयण, म्हजी चुलत भयणी आनी भाव, अशीं सगळीं जाणां रातचीं णवाच्या शोक पणजे थिएटरांत गेल्लीं. आमी घरांत आत्याक आनीक पप्पाक सगळी कल्पना दिल्ली. आमकां वेळ जातलो येवपाक तुमी काळजी करी नाका. पूण पप्पान करपाचे तेच केले. आमी थिएटरांत सिनेमा पळेतालीं, रातची इकरा जाल्ली, आनी पप्पा आमकां सगळ्यांक फोनार फोन करून बेगीन भायर सर बेगीन भायर सर म्हणून परतून परतून बेजार करपाक लागलो.

पप्पाचो परतून परतून फोन येतालो, आनी आमचे लक्ष सिमेना वयल्यान हालताले. ताचो फोन येतालो, तेन्ना आमी उलयतना भोवतणचे लोक सुद्धा बेजार जावपाक लागले. हे पळोवन शेवटाक आमी सगळ्यांनी आमचो मोबायल स्वीच ऑफ केलो.

पिक्चर रातचें एकाक सोंपलें, आनी ताच्या उपरांत आमी मागीर पणजेच्यान गाडी घेवन म्हापश्यां गेलीं. घरांत सगळीं न्हिदिल्लीं. पूण पप्पा मात आमी घरा पावसर जागोच आसलो. असो हो आमचो पप्पा. घरां पावतकच आमी ताचो फोन घेवंक ना म्हणून तो आमचेर खूब तापलो. पूण दुसऱ्या दीस सकाळीं सगळे विसरलो.

पप्पाचें पॉझेसिवनेस आनीक एके गजाली वयल्यान हालींच पळोवंक मेळ्ळे. हालींच म्हज्या चल्याक जोर येतालो, रक्ताची चाचणी करतकच तो जोर डेंग्यू जोर म्हूण कळ्ळे. म्हजो घोव कामाक भायर आसता. चलो बरो ना, आनी रक्तात डेंग्यू सापडला म्हण कळटकच तो पयस आशिल्ल्या कारणान सामको काचाबूल आन आनी आबूज जालो. भिवून ताणें थंयच्यान पप्पाक फोन केलो. आनी भुरग्याक डेंग्यू जाला. ताका रोखडेंच हॉस्पिटलांत घालपाक जाय, मातशें वास्को वच आनी उबी सरी राव म्हणून विनवणी केली.

ताचो हो फोन येतकच, आनी नातवाक दुयेंस जालां हे समजतकच ताणे थंय पांच मिणटा लेगीत वेळ वगडायलो ना. आसा त्याच कपड्यांनी वास्को येवपाक भायर सरलो. फाटी फुडे ताणें कांयच विचार केलो ना. मम्मीन म्हाका फोन करून सांगलें, ''पप्पा वास्को येवपाक भायर सरलां. तुका कितें फोंडेच्यान हाडपाक जाय?'' तेन्ना म्हाका घडिल्ली गजाल समजली. ते आयकून हांवें मम्मीक सांगलें इतली भियेवपाची गरज ना, पप्पान फाल्यां सकाळीं सुद्धा आयल्यार जाता. पूण पप्पा पयलींच अर्द्या वाटेर पाविल्लो. तेन्ना पप्पान हांव येताच म्हणून फोन दवरलो.

हें सगळें सांगपाचे कारण म्हळ्यार आकांता वेळार तो आमकां सदांच आनी खंयच्याय वेळार पावला. आमी जेन्ना कसल्याय त्रासांत सापडल्यात तेन्ना पप्पान सदांच आमचो हात धरला. आमकां पावलां. ते वेळार ताणें आपल्या आरोग्याची आनी जिवाची लेगीत पर्वा करूंक ना.

पप्पाचे दोनय नातू ताच्या काळजाचे कुडके. तांकां कितेंय बारीक सारीक लेगीत आरोग्याचे त्रास जातकीच ताचो जीव वयर सकल जाता. आनी ताच्या खातीर तो कितेंय करपाक सदांच तयार आसता. असो हो आमचो पप्पा. जायते वेळार म्हजे आनी पप्पाचे विचार कांय गजाली बाबतीत पटनात आनी आमचें सदांच ल्हान ल्हान गजाली वयल्यान 'तू तू मै मै' चालूच आसले तरीय, संकटावेळार आमका सदांच पावला.

आता पप्पान सत्तर वर्सांत पावल दवरलां. पप्पा सदांच आरोग्यान आनी शरीरान पयलीं भशेन निरोगी, सुटसुटीत आनी चिंतामुक्त आसचो, आनी देवान ताच्यो सगळ्यो इत्सा आकांक्षा पुराय करच्यो अशे देवा कडेन सदांच हांव मागतां.

संपर्क : 9823252440

# कारवारी जिणेचें दर्शन घडोवपी 'बायल म्हागेल हुशार'

**शुभा बरड**

कोंकणी ही गोंयची आवयभास. तिच्या वांट्याक कदीम काळा सावन संघर्श आयला. हो संघर्श ही भास उलयतल्या समाजाक लेगीत चुकिल्लो ना. साबार कारणांक लागून हो समाज गोंय, मुंबय, कर्नाटक तशेंच केरळ वाठारांनी शिंपडिल्लो आमकां पळोवपाक मेळटा. इंक्विजिशन आनी धर्मांतरणां हांकां लागून आपलो देव आनी आपली पुराय अस्मिताय सुगूर उरची हे पासत हो समाज ह्या वाठारांनी पळिल्लो. गोयांत परत केन्ना पावतले हाची शाश्वती नाशिल्ल्यान तशेंच रावता त्या वाठारांत पोटा-पाण्याचो प्रस्न सोडोवपाक वा म्हणुंया संपर्काच्या गरजेंतल्यान गोंया भायर स्थायीक जाल्ल्या लोकांनी आपल्या निजाच्या भाशेंत त्या त्या वाठाराची शैली आनी उतरावळ भरशिली. परिणामी, कोंकणी भाशेच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो मोडी तयार जाल्यो. आयचे घटकेक सहजपणान २५-३० बोलयो ही भास उलोवपी लोकांच्या ओंठार घोळटा. अशीच एक कोंकणीची आगळी-वेगळी बोली म्हळ्यार कारवारी वा कोडियाळी बोली. आदल्या काळांत ह्या शैलींत कितलेंशेंच संत साहित्य निर्माण जाल्लें. (अदीक म्हायती खातीर डॉ. ओलिवीञ्यु गोमिश हांच्या 'कोंकणी सरस्पतिचो इतिहास' ह्या पुस्तकांतलो अध्याय ९ पळोवचो.) राजकीय नदरेन कारवार कर्नाटकाचो वांटो म्हणलो तरी भाशीक नदरेन तो कोंकणीच. हांगची मुखेल भास कोंकणीच. एका काळार ह्या वाठारांत शिकपाची भास मराठी आशिल्ली. पूण राजकीय घडामोडी आनी भाशीक धोरणाचेर आडनदर केल्ल्या कारणान १९८५-८६च्या अदमासाक हांगा कन्नड सक्तीची जाली. ताका लागून थंय आशिल्ल्यो मराठी शाळोय बंद पडल्यो. पुणून जो मान त्या वाठारांत कोंकणी भाशेक मेळपाक जाय आशिल्लो तो मेळूंक ना. हालीं हालीं तो लोक कोंकणींतल्यान संपर्क करपाक लागला.

कोंकणीची कारवारी बोली खुबूच सुरबूस आनी फामाद. तांची उलोवपाची शैली गोंयकारां परस वेगळी खरी पूण तांकां ती समजता. साहित्यीक नदरेंतल्यान विचार करतना ही बोली दरेकल्याक मानवतली हातूंत दुबाव ना. पूण खंतीची गजाल म्हळ्यार ही बोली फकत लोकांच्या ओंठांचेर उरल्या. ती लिखणेंतल्यान पुराय रितीन देंवंक ना. तरी आसतना कांय लेखक फकत कोंकणी भाशेच्या मोगान आनी मोगा खातीर कोंकणींतल्यान बरयतात ह्या खातीर तांची तुस्त करपाक जाय. तातूंतलोच एक लेखक म्हळ्यार संदेश श्रीकांत बांदेकार. तांचीं बायल म्हागेल हुशार (स्वतंत्र, नाटक, २०१५) आनी अनवाणी (अनुवाद, आत्मकथन, २०१८) अशीं दोन पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत (दोनूय कारवारी मोडींत). अनवाणीक हालींच कोंकणी भाशा मंडळाचो पुरस्कार फावो जाला. गोवा कोंकणी अकादेमी आयोजीत युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांनी तांच्या कथांक इनामां फावो जाल्यांत. गोंयच्या कोंकण टायम्स्, जाग, बिम्ब ह्या म्हयनाळ्यांनी साबार विशयांचेर तांणी लेखन केल्लें आसा. तेच तरेन कोंकणी भास आनी कारवार ह्या विशयाचेर लेगीत तांणी लेखन केलां. तांच्या साहित्याचें सगळ्यांत म्हत्वाचें खाशेलेंपण म्हळ्यार कारवारी शैली आनी कारवारी अस्मितायेची अभिव्यक्ती. आपल्या साहित्यांत ते कारवारांतल्या अशा उतरांचो वापर करतात जीं आयज कारवारा लेगीत वापरनात. हाचें फाटलें कारण म्हळ्यार कारवारच्या कोंकणींत आयज इंग्लीश उतरां भरसल्यांत. ह्या गजालीची प्रचिती तांची पयली वयली साहित्यकृती 'बायल म्हागेल हुशार' ह्या कारवारी शैलींत बरयल्ल्या विनोदी नाटकांतल्या सीता ह्या पात्राच्या माध्यमांतल्यान कांय प्रमाणांत दिश्टी पडटा. कारवार सकून उजवाडाक येवपी कारवारी शैलींतलेंच हें पयलें पुस्तक. ह्या आदीं कारवार रावपी खंयच्याच लेखकाचें कसलेंय साहित्य पुस्तक रुपान उजवाडाक येवंक ना. ताचो पयलो मान संदेशबाबाकूच फावो जाता. तेच पासत सदर अभ्यासा खातीर ह्या पुस्तकाची निवड केल्ली आसा.




### कारवारच्या रंगभुमिची उडटी वळख

विवेचीत पुस्तकाचेर विस्तारान अभ्यास करचे आदीं कारवारच्या रंगभुमीचो आडावो घेवप हांगा रास्त जातलें. एका काळार ह्या भागांतल्या लोकांची खरीखुरी आवड आशिल्ली मराठी. हांगच्या रंगभुमीक पयलो चंवर आयलो तो मराठींत. हाका लागून कारवारच्या रंगभुमीची वळख करून घेतना मराठी तशेंच कोंकणी रंगभुंयेची वळख करून घेवप गरजेचें. कारवारांत मराठी रंगभुमीक खाशेलें स्थान आसा. देवळा वाठारांत सणा-उत्सवांच्या वेळार पयलें प्राधान्य मराठी नाटकाक वता. ही स्थिती आयज लेगीत कारवारांत कांय प्रमाणांत दिश्टी पडटा. १९८५ वर्सा सावन कर्नाटकांत कन्नड भाशेची सक्ती जाली. ताका अनुसरून कारवारच्यो मराठी शाळो बंद पडल्यो, पूण ताचो कसलोच प्रभाव थंय जावपी मराठी नाटकांचेर पडलो ना. कारवारच्या मराठी रंगभुमीचीं दोन वैशिश्ट्यां अभ्यासा निमतान सांपडल्यांत. पयलें, मुंबय विश्वविद्यालयाची वैजकी पदवी घेतिल्ले डॉ. अ. वा. वर्टी हांच्या राणीची बाग ह्या नाटकाक प्रेक्षकांनी भरपूर प्रतिसाद दिलो, अशें सौ. उषा राणे आपल्या कारवार ह्या पुस्तकांत मांडटात. दुसरो आनी खूब महत्वाचो, मराठी

रंगभुमी वयलो प्रतिशठीत 'बालगंधर्व पुरस्कार' कारवारची धूव सर्गेस्त श्रीमती जयश्री शेजवाडकार हांकां मेळ्ळो. विशयाचे मर्यादिक लागून कारवारच्या मराठी रंगभुमीचेर हांगा विस्तारान लेखन केल्लें ना. पूण तो अभ्यासाचो एक स्वतंत्र विशय जावं येता.

जे तरेन गोंयांत लोकनाट्यांतल्यान पूर्ण स्वरुपी नाटक तयार जालां, त्याच तरेन कारवारांत 'खेळ' नांवाच्या लोकनाट्यांतल्यान नाट्य-संस्कृतायेक चालना मेळ्ळ्या. ह्या खेळाक उत्तर कोंकणांत 'दशावतारी' तर दक्षीण कोंकणांत 'यक्षगान' ह्या नांवान वळखतात. खेळांत विदुशक नांवाचें एक सवंग आसा, जाका कारवारींत 'कोडांगी' म्हणटात. पुराय खेळ मराठी आसलो तरी हें कोडांगी शुद्ध कारवारी कोंकणी उलयता. ह्याच फाटभुंयेर ह्या कोडांगीनच कारवारांत कोंकणी नाटकाचें बीं रुजयलें अशें म्हणप चुकिचें जावचें ना. फाटल्या ३०-४० वर्सांत कारवारा कोंकणी रंगभुमी विकसीत जाल्ली दिसून येता. विदुशक वा कोडांगी उपरांत नाट्य संस्कृतायेचो दुसरो आदार मेळटा तो कोंकणी एकांकीचो. ह्यो एकांकी सुरवातेक शाळा आनी कॉलेजींच्या स्नेहसंमेलनाच्या वेळारूच सादर जाताल्यो, त्योय बी वर्सातल्यान एक फावटी. ह्या एकांकींची सुवात आयज पूर्ण-स्वरुपी कोंकणी नाटकान घेतिल्ली आसा. कारवारचें पयलें कोंकणी नाटक तयार जालें तें १९८२ वर्सा. श्री. उदयकांत अणवेकार लिखीत 'लाखांतलो एक न्हवरो' ह्या नाटकाक कारवारच्या कोंकणी रंगभुमीवेलें पयलें नाटक जावपाचो मान फावो जाता. ह्या नाटकान कारवारांत उत्सवी नाटकांची सुरवात केली. कारवारांतच ताचे १५० वयर प्रयोग जाल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. थंयच्या लोकांक आपल्या भाशेंतलीं विनोदी नाटकां आवडटात. हेंच लक्षांत घेवन लोकांचो स्वभाव, कंजूसपण आनी पयशाची हाव ह्या सगळ्यांचेर आदारीत हें विनोदी कोंकणी नाटक. तांचीं हेर कांय नाटकां म्हणल्यार एका परस एक, मनशालो संग देव जाता दंग, जात तें बऱ्याक आनी हेंच तें रामराज्य. अणवेकारांच्या उपरांत काशीनाथ मेडीवाळ (मामेल व्होळो जावंयार दोळो, जीवन एक संघर्श आदी), चंद्रकांत नाईक (गडबडेत घोटाळो, वावटोळ धरून एकूण १५ नाटकां), विष्णू कोळगेकर (कावळ्याल नदर तवश्या मिडेर, गांवची जत्रा भानगडी संत्रा आदी), सुरज नागेकर (पैश्याक आशा कन्नात पिश्या, ना ते ना आदी), विजयकुमार कुडतरकार (नशीब म्हागेले, लाखाचे जाले पाखं, फुल तूं ह्या घरचें) आनी संदेश बांदेकार (बायल म्हागेल हुशार) ह्या नाटककारांनी कारवारच्या कोंकणी नाटकाक आपले परीन योगदान दिलां. तातूंतले तातूंत संदेश बांदेकार हांचें बायल म्हागेल हुशार (२०१५) आनी श्री. उदयकांत अणवेकार हांचें लाखातलो एक न्हवरो (२०१८) हीं दोनूच नाटकां पुस्तक रुपान उजवाडाक आयल्यांत.

कारवारच्या कोंकणी नाटकाच्या सद्यस्थितीचेर उलयतना हांगचीं कोंकणी नाटकां संख्यात्मक तशेंच गुणात्मक नदरेन कमी आसपा फाटलीं कांय कारणां सोदपाचो यत्न केल्लो आसा. सगळ्यांत व्हडलें कारण म्हळ्यार कारवारांत एक लेगीत प्रकाशन संस्था वा बरयल्लें साहित्य उजवाडावंक एक लेगीत म्हयनाळें वा मासीक ना. ताका लागून लेखक वर्ग निर्माण जावंक पावना. हाताच्या बोटांचेर मेजूं येता इतलेच लेखक कारवारांत आसात. पूण, तांकां तांच्याच वाठारांतल्या वा तांच्या शैलीची, जिणेची जाण आशिल्ल्या एकाद्या तज्ञाचें मार्गदर्शन मेळूंक पावना. कारवारच्या भायल्या वाठारांतल्या मासिकांनी तांकां आपलें साहित्य धाडचें पडटा. देख दिवचीच जाल्यार वयर उल्लेख केल्लीं दोनूय पुस्तकां, अनुक्रमान निर्माण प्रकाशन आनी अर्थ प्रकाशन ह्या गोंयच्या प्रकाशन संस्थांनी प्रकाशीत केल्यांत. दुसरी गजाल म्हळ्यार जीं नाटकां पुस्तक रुपान आयिल्लीं ना, त्या नाटकांतले संवाद वा देखाव चोरून ते आपल्या नांवान खपोवपाचो प्रकार घडटा. नाटकाचो शास्त्रीय अभ्यास जावंक नाशिल्ल्या कारणान बरोवपी आपलें नाटक बसोवंक शकना. एकादो लेखक आपली संहिता बसोवपाक दिता दुसऱ्या कडेन दिता तेन्ना लेखकाची परवानगी घेनासतना संवाद वा देखाव्यांचो बदल करून नाटकाचो दर्जो देंवयतात. नाटकांत कमरा सकयल्या, पोजड्या, अश्लील विनोदांचो वापर आयचे नाटककार करूंक लागल्यात. ह्या कारणांक लागून जे गांभीर्यान कोंकणी नाटकाचें लेखन करतात तांचेर अन्याय जाता. इतलेंच न्हय तर हाका लागून सणा-उत्सवां वेळार कोंकणी नाटकाक कोणूच प्राधान्य दिनात.

### नाटकाची वळख

विवेचीत नाटकाचो एकूच प्रयोग जाल्लो आसा. हो प्रयोग शेजवाड कारवारच्या श्री कोल्हापूर निवासीनी जगदंबा महालक्ष्मी देवस्थानांत रामनवमीच्या उत्सवा निमतान एप्रीलाच्या १९ तारखेर (२०१३) सदाशिवगडच्या कोंकणी संस्कृती मंडळान सादर केल्लो. प्रयोगाचें दिगदर्शन कारवारचे नाट्यकर्मी श्री. विष्णू कोळगेकर हांणी केल्लें. प्रयोग जाल्या उपरांत गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' येवजणे खाला नाटकाचें हातबरप मान्य जालें, जें २०१५ वर्सा निर्माण प्रकाशनान पुस्तक रुपान उजवाडाक हाडलें. कारवारचें नांव मराठी रंगभुमीचेर अज्रंवर करपी आनी मराठी रंगभुमी वयलो प्रतिशठीत 'बालगंधर्व पुरस्कार' मेळयल्ली कारवारची धूव कै. श्रीमती जयश्री श्रीनिवास शेजवाडकर हांच्या स्मृतीक संदेशबाबान हें नाटक ओपलां. पुस्तकाचें मुखचित्र अमोल नाळकर हांणी काडलां. तातूंत तांणी रंगमाचयेर आशिल्ल्या पड्ड्यांची भोंवतण घालून मदीं एक बायल आनी एक दादलो अशीं दोन रुपडीं घाल्लीं आसात. बारीकसाणेन हीं रुपडीं पळयतकूच बायलेचें रुपडें खोशयेन हांसता जाल्यार दादल्याचें रुपडें खंती, दुख्खी आनी रडकुऱ्या मुखाचें आसा म्हणपाचें जाणवता. चित्राचे सकयले वाटेन मदोमद हिन्दींतलो एक फामाद सुविचार मांडिल्लो आसा. तो म्हळ्यार, 'जिंदगी में इतनी शिद्दत से निभाना अपना किरदार... के परदा गिरने के बाद भी तालियाँ बजतीं रहें।' पुराय नाटक वाचल्या उपरांत बायलेचें रुपडें हासतें कित्याक आसा आनी वयर दिल्लोच सुविचार कित्याक वापरला हाची समजणी येता. आदीं सांगलां तशें संदेशबाबाचें हें पुस्तक कारवार गांवांतल्यान उजवाडाक येवपी पयलेंच पुस्तक, हाका लागून नाटकाक आनीकूय मोल फावो जाता. रामाच्या घरा, रमाकांत सावकाराच्या घरा आनी कारवारच्या मुनसिपल गार्डनांत अशा तीन सुवातानी नाटकांतले वेगळे वेगळे प्रसंग घडटात. ह्या प्रसंगांक संदेशबाब 'प्रवेश' अशें नांव दितात ('देखाव'

ह्या अर्थान).

संदेशबाबान आपल्या नाटकाक 'विनोदी नाटक' अशें म्हळां. नाटकांत आयिल्ले संवाद आनी तातूंतल्यान निर्माण जाल्लें वातावरण नाटकाच्या विनोदी आयामाक पोसवण दिता. नाटकाची प्रस्तावना कारवारची फामाद कोंकणी साहित्यीका भौ. उषा राणे हांणी बरयल्ली आसा. तातूंत तीं म्हणटात, "प्रेक्षकांची अभिरुची आनी अपेक्षा हांचो अंदाज घेवन सुटसुटीत, सोंपें, थोडे प्रमाणांत कौटुंबीक तर चड प्रमाणांत विनोदी जशीं नाटकां लोकांक आवडटात आनी चलतात तशें नाटक बरोवचो संदेशान यत्न केला म्हणून हरकत ना. कोणाचीय थट्टा मस्करी करची, इल्पां-किल्पां काडचीं, कुसां लावचीं, फूस लावन आपलीं कामां सादोवन घेवचीं, वागण्यां नुसार, स्वभावा नुसार, फावो तशो ग्यादी वापरच्यो पूण शेवट गोड जावचो अशें हें नाटक आसा." (संदेशाची तोखणाय करतना, पान ६). उषाताईंचीं हीं उतरां कांय प्रमाणांत नाटकाच्या मुखेल विशया वटेन आमचें लक्ष ओडून व्हरतात. भारतांतल्या पुर्विल्ल्या समाजांत हुंडो घेवप वा दिवप ही एक रीत (प्रथा) आशिल्ली. सुदारिल्ल्या समाजांत लेगीत हुंडो घेवपाकच जाय अशें कांय जाणांक दिसतालें. ह्याच विशयाचेर संदेशबाबांचें हें नाटक आदारिल्लें आसा. विशयाचे मांडणेंतल्यान तांणी 'एक तीर से दो शिकार' केल्यात. पयल्या तिरान वयर सांगिल्लो विशय मांडला. जाल्यार दुसऱ्या तिरान एक सांगल्यार धा उलोवपी एके बायलेची(सीता) हुशारकाय आनी बुदवंतकायेचें दर्शन घडयलां. नाटकांतले संवाद आनी वातावरण विनोदी आसले तरी ताचो विशय विनोदी ना, हेच नदरेंतल्यान हो अभ्यास केल्लो आसा.

नाटकांत दोन घराब्यांचें चित्रण जालां - राम, ताची बायल सीता आनी धूव सुमन हांचो मध्यमवर्गीय घराबो आनी रमाकांत सावकार आनी ताचो पूत दिनेश हांचो गिरेस्त घराबो. सुमन आनी दिनेश एकामेकांचेर मना पासून मोग करतात. दिनेश गोंयां एका कंपनींत कामाक आसता जाल्यार सुमन कॉलेजांत शिकता. दोनूय घराब्यांक एक दीस सुमन-दिनेशाच्या मोगा विशीं कळटा. सुमनाची आवय सीता दिनेश आपल्या बापायवरी ना हाची खात्री करून घेतल्या उपरांतच लग्नाक आपलो हयकार दिता. पूण तांकां रमाकांत सावकाराचीच चिंता आसता. तो आपल्याक जाय तितलो हुंडो घेतल्या शिवाय तांची सोयरीक करचो ना हाची जाण तांकां आसता. अशा परिस्थितींत सीता आपली तकली लडयता. ती आदीं दिनेश-सुमनाचें रजिस्टर लग्न करता. उपरांत रमाकांत सावकारागेर लग्नाचे उलोवणेक गेल्ले कडेन सावकारान हुंड्याच्यी रुपान मागिल्ली कार दिवपाक तयार जाता. पूण आपलें तीन कडचें शेत (एकूण ३७ खांड्यांचें) बँकांत लोनार आशिल्ल्यान लग्नाचो खर्च आनी गाडी आमकां परवडची ना म्हणपाचें कळयता. आपल्याक गाडी मेळटली जाल्यार आपणें सगळो खर्च काडपाक कसलीच हरकत ना अशें येवजून सावकार लग्नाच्या सगळो खर्च करपाक तयार जाता. वेवस्थीत रितीन दिनेश-सुमनाचें लग्न जाता. मात तांच्या येय जेवणा दिसा सीतेन सांगिल्ली गाडी दिवपाचो वेळ येता तेन्ना ती खेळांतली प्लास्टिकाची गाडी दाखयता. ताचें स्पश्टीकरण दितना "...ती कार खरी काय जात्रेंतली? आनी खंयच्ये कम्पनीची आनी कितले लाखांची म्हण सांगिल्ली?" (पान ८४) असो सावकाराकूच प्रतिप्रस्न करता. आपल्याक फटयलां हें कळना फुडें सावकार रागान तांबडोगूंज जाता. इतलेंच न्हय तर आपलो पूत लेगीत तांकां सामील आसा म्हणून तो दिनेशा कडले सगळे संबंद तोडटा. पूण सीता व्हडा हुशारकायेन आपणें दिल्लें उतर पाळ्ळां म्हणपाचें स्पश्ट करता. पांडू लेगीत ह्या वेळार सावकाराक तुमी पयशां मुखार पुताक वगडायतले म्हणपाचें समजायता. अशे तरेन सावकाराक आपली चूक कळून येता. पयशां आशेन आपूण साप्प कुड्डो जाल्लों म्हणपाचें तो मान्य करता. इतलेंच न्हय तर लोकांक नागोवन, फटोवन जोडिल्ली इस्टेट आतां आपूण देवतेक दान करतां अशेंय तो सांगता. सगळीं जाणां सितेच्या हुशारकायेची तुस्त-तोखणाय करतात. शेवटाक रामाच्या "...म्हागेल बायल हुशार हां! देवा कडे मागात, तुमकांय बी असलीत बायल मेळूं म्हण" (पान ८७) ह्या संवादांतल्यान नाटकाचो पड्डो पडटा.

**नाटकांतलीं स्त्री आनी पुरूश पात्रां**

पुराय नाटकांत बरोवप्यान एकूण स स्त्री पात्रांचो वापर केला. पूण मजेची गजाल म्हळ्यार ह्या स पात्रांतलीं फकत दोन पात्रां प्रत्यक्षांत नाटकांत विस्तारान 'उलयतात' - सीता आनी सुमन. हेर चार स्त्री पात्रां सितेच्या संवादांतल्यान वाचकांक मेळटात. हीं चार पात्रां म्हळ्यार रामाची आवय, ताच्यो दोन भयणी आनी शाणुची बायल सगुण. तांच्या फकत वेंचीक गुणांचो उल्लेख संवादांतल्यान आयला. देखिक: रामाची आवय सिते कडल्यान खुबच काम करून घेताली. रामाच्यो भयणी घरा येताल्यो तेन्ना फकत ऑर्दी सोडटाल्यो. आवयच्या मरणा उपरांत सितेनूच तांचें घरा येवप बंद केल्लें. सगुण संघाचें अध्यक्ष आशिल्ल्यान दर शेनवारा संघा मिटींग ताच्याच घरा जाताली. त्या निमतान एकूण चौवदा बायलो सगुणागेर येताल्यो. ताचोच फायदो घेत सगूण दरेकल्या कडल्यान घरांतलें कसलें ना कसलें तरी काम करून घेतालें. फकत इतलीच म्हायती तांचे विशीं नाटकांत आयिल्ली आसा. पुरूश पात्रां संबंदान लेगीत शाणू आनी सुमनाचो भाव लेगीत मर्यादीत रुपान नाटकांत आयला. शाणू हो रामाचो इश्ट नाटकाच्या फकत पयल्या प्रवेशांत येता. उपरांत नाटकांत खंयचेच कडेन येना. सुमनाचो भाव (बाबा) हालींच गोंयां कामाक लागिल्लो. तो सुमनाच्या लग्नाक येता आनी रोखडोच वता. ताच्याय संबंदान हेर कसलीच म्हायती दिल्ली ना.

सीता ही नव्या विचारांनी जगपी मॉर्डन, स्वतंत्र बायल-मनीस. पिरायेन मध्यम वयाची, गांवांतल्यान आयिल्ली आसून लेगीत ती इंग्लीश भास (कळना जावन लेगीत) आनी आधुनीक साधन सुविधांचो (ब्युटी पार्लर) वापर करता. पूण फकत इतलेंच तिचें व्यक्तिमत्व न्हय. ती खुबच हुशार आनी बिलंदर. घोव रामाक ती घरांतलें सगळें काम करपाक सांगता खरी पूण आपल्या कर्तव्यांतल्यान ती पळ काडिना. घराचें 'मॅनेजमेण्ट' तिका बेस खबर आसा. दुसऱ्या नदरेन विचार करतना बरोवपी तिच्या माध्यमांतल्यान घरांतलीं कामां फकत बायलेनूच न्हय तर दादल्यान लेगीत करपाक जाय ह्या विचाराचो प्रचार करता. आपल्या सुमनाच्या उज्वल फुडारा पासत ताणेंच वेंचिल्ल्या चलया

कडेन ती ताचें लग्न लावन दिता. ज्या काळांत आनी समाजांत हुंडो घेवप वा दिवप ही रीत मानताले, त्याच समाजांत जगतासतना सीता हुंडो दिनासतना लग्नकार्य कशे तरेन तडीक व्हरूं येता ताचो एक मार्ग दाखयता. आपल्या धुवेंच्या काळजीपोटी ती हें करता खरी पूण तातूंतल्यान ती बायल मनीस वेळा प्रसंगार आपली हुशारकाय कशी दाखयता हाचो पुरावोय दिता. तिच्या व्यक्तिमत्वाचे कांय गूण सुमनांत लेगीत आयल्यात. तशें नाशिल्लें जाल्यार दिनेश पळून वचपाचो मार्ग सुचयता तेन्ना सुमन रोखडेंच हयकार दिता आसलें. पूण तें न्हयकार दिवन देव आनी व्हडल्यांच्या आशिर्वादान लग्न जावपाची इत्सा परगटायता. सुमनाक लोकांचो आनी समजाचो भंय आसा खरो पूण ताका लागून कसलेच तरेचें चुकिचें पावल तें घेना. पूण खंय तरी सुमनाचें व्यक्तिचित्रण मर्यादीत रुपान आयिल्लेवरी दिसता. देखीक, नाटकाच्या शेवटाक सितेच्या बुदवंतकायेचें दर्शन घडटा तेन्ना सुमन कसलीच प्रतिक्रिया दिना. फकत ''आमकां आनीक कांय नाका. आमगेल फाटल्यान फक्त तुमगेल आशिर्वाद आसल्यार पुरो.'' (पान ८६) इतलेंच तें म्हणटा. सितेक केंद्रीय स्थानार दवरून नाटकाची रचणूक जाल्या हें खरें, पूण ताका लागून सुमना वटेन कांय प्रमाणांत आडनदर जाल्या अशें दिसल्या बगर रावना.

राम, दिनेश ताचो बापूय रमाकांत सावकार आनी पांडू हीं नाटकांतलीं मुखेल पुरूश पात्रां. राम हो भोवच सादो, सरळ, बायलेन सांगिल्लें उतर पाळपी मनीस. पूण तो सितेचो गुलाम न्हय. आपली घरकान्न एक सागंल्यार धा उलयता हें ताका खबर आसा. हाका लागून सितेच्या उतराक प्रति-उत्तर तो दिना. सितेन घेतिल्ल्या खंयच्याय पावलाचेर वा निर्णयाचेर तो तिका प्रस्न करना, कारण ती सरळ सरळ कांयच सांगची ना हें तो जाणा. शेवटाक सितेन दाखयल्ली हुशारकाय पळोवन आपणाली बायल तोंडान कशीय आसूं पूण तकलेन खऱ्यांनीच हुशार हें तो मान्य करता. रमाकांत सावकाराचो दिनेश ताचो जांवंय जाता. सावकारान आयज मेरेन लोकांक नागोवन, फटोवन आपली इस्टेट जमयल्ली. ताच्या ह्याच नागवण्या वृत्तीक लागून दिनेशाच्या ल्हानपणांतूच ताची आवय हो संवसार सोडून गेल्ली. तो खुबच स्वार्थी मनीस. इतलो की आपल्या पुताचें लग्न चड हुंडो दितल्या चलये कडेनूच करपाचें तो थारायता. पूण दिनेशाक मात आपल्या बापायच्या इस्टेटींत कसलीच रुची ना. खुबच फुडारिल्ल्या आनी सुदारिल्ल्या विचारांचो दिनेश गोंयां कामाक आशिल्ल्यान फकत आयतारचो तो घरा आसता. आपलें मत तो सरळपणान रमाकांत सावकारा मुखार मांडटा - आपल्याक तुजी इस्टेट नाका आनी आपल्या पसंतीच्याच चलये कडेन आपूण लग्न जातलों. निमणे मेरेन तो ह्याच मताचेर ठाम रावता. हुंडो घेवप ताका मान्य ना. आपूण स्वतंत्रपणान आपल्या पांयांचेर उबो आसा. तेन्ना कसलेय परिस्थितीक आपूण तोंड दिवंक शकता हाचो ताका विस्वास आसा. बापायन फाल्यां आपल्याक घरांतल्यान काडल्यार लेगीत पुताचें कर्तव्य आपूण करतलोंच म्हणपाचें तो सुमनाक उतर दिता. आपल्या बापायचे खंयचेच विचार ताका पटनात. आपल्याक मानवना वा पटना तें आपूण करचों ना ह्या वृत्तीचो दिनेश. निमाणो सावकाराच्या बरेपणाचेर जगपी पांडू. सावकारान सांगिल्ल्या प्रत्येक गजालीक तो हय म्हणटा, कारण ना म्हणलें आनी सावकारान आपल्याक नोकरे वेल्यान काडलो जाल्यार आपूण उपाशीं मरतलों हाचो भंय ताका आसा. पूण सावकाराच्या प्रत्येक उतराचेर मनांतल्यान तो सहमत आसा अशें न्हय. दिनेशा वरी ताका लेगीत सावकाराच्यो कांय करण्यो मान्य ना. पूण नाईलाज आशिल्ल्यान तो कांयच उलोवपाक शकना. मात, शेवटाक सावकार दिनेशाकडले सगळे संबंद तोडपाक सोदता तेन्ना पांडू आज तुमी जल्म दिल्ल्या पुताक वळखनात, तुमी फाल्यां म्हाका कशें वळखतले? (पान ८६) अशा उतरांनी आपले विचार परगटायता.

**नाटकाचीं 'कारवारी' खाशेलपणां**

एखादी सुंदर अस्तुरी भांगरा-शिंगरांचो साज चडयता तेच बशेन संदेशबाबान आपल्या नाटकाक कारवारी कोंकणीचो आनी अस्मितायेचो साज चडयला. आयच्या काळांत उलयतात ती कारवारांतली कोंकणी, त्या कोंकणीचीं खाशेलपणां, कारवारची लोकजीण, तांची अस्मिताय आनी संस्कृताय, अशीं कांय 'कारवारी खाशेलपणां' घेवन नाटक वाचप्यांचे भेटेक येता. पोळ्या मेट ते तरंगां मेट, चित्ताकुला ते कद्रा आनी कारवार धरून मल्लापुर मेरेन कारवारचो सुंदर वाठार पसरिल्लो आसा. रामाचें घर सकयल्ले वाड्यार जाल्यार रमाकांत सावकाराचें घर वयले वाड्या तयटेमाडा कडेन. कारवारा जावपी खुटी परब, देवा परब, म्हातन आनी जात्रेचो निकटो उल्लेख नाटकांत येता. तेच तरेन हणकोण, हळगे, खारगे, आंबे आनी बावटे अशा जुगांचो (जुंवों गोंयांत कुंबारजुंवें, खोर्जुवें आसा तशें, पान ३४); काजुबाग, कोडीबाग, दादनबाग, हळ्ळेबाग, दांडेबाग (पान ३५) अशा गांवांचो; आनी कारवार बीच, मुन्सीपालटी गार्डन, गडा वयलो किल्लो, तिळमाती बीच, देवाबागची बीच, (पान ४३) सुरीपार्क आनी काळी न्हंय अशा कांय सुवातांचो वापर बरोवपी करता. हे लोक देवी शांतादुर्गेक भोव मानतात. तिचेंच नांव तांच्या तोंडार घोळटा. वेंचीक 'प्रवेशांत' (प्रवेश ४, पान ४४) काऱ्या रुखा वयलो म्हारु, ओंवळा रुखा वयली चवंडी, अचाट म्हारु आनी आलवांतीण हांचोय वापर संदेशबाब करता. आपल्या मांय-मांवाक हे लोक 'मामी' म्हणटात (पयलींच्या काळार आपली चली वा चलो आपल्या भावाल्या पुताक वा धुवेक दिताले). अस्तुरेच्या कांकणां, पाटल्यो, तोडे, लक्ष्मी हार, बाजूबंद, नथ, पोंवळ्यां माळ, चपलाहार, रिंगां, कुडकां, फोडो तशेंच पुरूशांक घालची सरपळी, मुदी अशा अलंकाराचीं नांवां नाटकांत आयल्यांत. तेच तरेन दर आयतारा भरतल्या सांते बाजाराचो उल्लेखूय आयला. हिंदू धर्मांत लग्ना उपरांत गोंयांत जावपी पांचपर्तवण म्हळ्यार कारवारांत येय जेवण.

हांगाचे कांय लोक फुकट खावंक-जेवंक मेळटा थंय वचपाची संद सोडनात. इतलेंच न्हय वांगडा कांय आयदनां व्हरून तीं भरून लेगीत हाडटात. पूण हेच लोक देवळांत किर्तन-प्रवचनाक वचपाक फाटी-फुडें सरतात. कांय लोकांक आपल्या सामाजीक दर्जाचो (स्टेटस) भरपूर घमंड (रमाकांत सावकार). चली वयार येनाफुडें बेगिनांत बेगीन ताचें लग्न लावन दिवपाकूच जाय. आपल्या जांवया घरचें उदक लेगीत पिवंक जायना अशें मानपी हे लोक हुंडो दिवपा-घेवपाक फाटी सरनात.

ती तांच्या लोकजिणेंतली एक रितूच जावन पडल्या. अशें आसलें तरी आयची सुदारिल्ली पिळगी हुंड्या पासून पयस वचपाक सोदता. ह्या विचाराचें प्रतिनिधित्व नाटकांत दिनेश आनी सीता हीं पात्रां करतात. इतलेंच न्हय तर ''ह्या गांवांत कितें कांटे आनी खुंटे इंच म्हणटा? ते इंचून सुध्दां फायदो ना. कित आस ह्या गांवांत? फक्त भरलात ते रिटायर्ड जाणटेले आनी थोडीं पोरां, तीं बी ल्हान आस म्हण. मागीर वयचे पोटा फाटल्यान गोंयां नातर मुंबय.'' (पान ३६) अशा दिनेशान म्हणिल्ल्या संवादांतल्यान बरोवपी कारवारच्या सद्यस्थितीचेंय दर्शन घडयता. नाटकांत वापरिल्ल्यो ह्यो साबार नोंदी पुर्विल्ल्यो पूण कांय प्रमाणांत आधुनीक अशेंय म्हणूं येता. काळा प्रमाण समाज बदलता तसो कांय प्रमाणांत लोकांचे विचार लेगीत बदलतात हाची गवाय नाटकांतल्या कांय पात्रांच्या माध्यमांतल्यान आमकां मेळटा.

**कारवारची कोंकणी**

नाटकांत खुबच विस्तारान आयल्या ती कारवारची कोंकणी भास. ही कोंकणी अदमासान आमच्या दोन-तीन पिळग्यां आदली. आयच्या कारवारी कोंकणींत इंग्लीश उतरां भरसल्यांत. कळना वा समजना आसून लेगीत सदच्या जिणेंत इंग्लीश उतरांचो वापर सर्रासपणान जावंक लागला, जाचें प्रतिनिधित्व नाटकांतलें सीता हें पात्र करता. ताका लागून संदेशबाबान नाटकांत वापरिल्लीं कांय उतरां घडये आयज कारवारा आयकूंक मेळचीं नात. देखीक मुगळकी, आदन, उजो सामकेवप, कल्लेवप, दिबण, आळेण आदी (प्रस्तावना, पान ८). एकेक कडेन संवाद रचना खुबच सुंदर जाल्या. देखीकः- ''त्या बडयान दया केली म्हण मामी बेग्गी गटक जाली, आनी आतां आसल्यार म्हाका कोबा चिपा मणकी पातळ करता आशिल्ली. हांवें आनी विचार केल्लो, ही महामाया म्हाका लया पावोवनच वयतली म्हण. ... बरी तळसफळी अशी घटमूट बायल यमान एकदम गटक केली. (पान १९ आनी २०).'' तशेंच ''तो तुमगेल एकलोच पूत, आनीक कोण आसा तुमकां, आनी तो ना तर मागीर घरभर कट्टेंत मेणबत्ती पेटोवन वयर सकल फिरते रावात, भटकंती आत्मो अशे.'' (पान ६४) तेच तरेन अर्क (खुटीच्या), मणकी/म्हणकी (वरी, बशेन), सोंड (तोंड), अर्थ जावप (समजप), अब्रु धरात (लज धरात), चमकप (चलप), पटी (फावटी) अशीं विशिश्ट उतरां आयिल्लीं आसात. नाटकाचें आनीक एक भाशीक खाशेलपण म्हळ्यार म्हणी, ओंपारी आनी वाकप्रचारांचो केल्लो वापर. नाटकांत आयिल्ल्या म्हणी-ओंपारींची वळेरी काडली जाल्यार सरसकट १५० तरीं म्हणी-ओंपारी हाताक लागतल्यो. इतल्या म्हणी-ओंपारींचो वापर घडये कोणाकूय अतिश्योकतीचें दिसूं येता. पूण खरें म्हळ्यार ह्यो म्हणी-ओंपारी म्हळ्यार नाटकाच्या भाशीक घटकाचो मुकुटमणी. त्यो वापरूंक नाशिल्ल्यो जाल्यार नाटक घडये इतलें सुंदर आनी प्रभावी जावंक पावचें नासलें. इतलेंच न्हय तर ह्यो म्हणी केन्ना केन्नाय आशिल्ल्या प्रसंगाची तिव्रताय दाखोवन दितात. देखीकः- 'पुराणांतलीं वायंगी तीं, तीं आनीक सकाळ पारार कित्या भाजता? ना भरत करुंक जायना, ना भाजी करुंक जायना. फक्त तोंड आसा म्हण उल्यल्यार जालें?' (पान १७); 'कितली बारीक नजर पळय ह्या बायलेली. म्हणटात तें ओगी न्ही, रात्रींत एक खोड आनी घरांत एक बोड उरुं जाय म्हण.' (पान २५); '...अगो माटोवभर लोकांक पांय पडलें म्हण व्होंकलेक घोवगेर वयचें चुकता? तशे वाडील चलयेक जास्त दीस घरा बसोवन घेनात गो आवयबापूय.' (पान ४५); 'मुखार सांगतलो काय नमनाक घडोभर तेल घालतलो?' (पान ६२). बोंबले देठांतल्यान आडुप, बोब मारप, रातीचो दीस जावप, चप्पल झरोवप, तोंडाक वारो मारप, गवजी घालप, दोळे फुटोवन घेवप अशा वाकप्रचारांचो वापर लक्ष ओडून घेता. विवेचीत नाटकांत आयिल्लीं उतरां आनी तांचे संदर्भ, नाटकांतल्यो म्हणी, ओपारी आनी वाकप्रचार अभ्यासाचे स्वतंत्र विशय जावन आसात.

**समारोप**

कसलीच साहित्यीक फाटभूंय नासतना आपल्या निजाचे बोलयेंत बरोवपी कोंकणी मनीस संदेश श्रीकांत बांदेकार. आयज मेरेन कोंकणी साहित्य फुल्लां तें प्रमाण कोंकणींत, विशिश्ट बोलयेचो मर्यादीत वापर जाला. कारवारी बोलयेचो विचार करतना भौ. महाबळेश्वर सैल आनी भौ. देविदास कदम (कांय प्रमाणांत) हांच्या साहित्यांत कारवारी जीण आनी अस्मिताय आयल्या. कारवारच्याच एका कोंकणी मनशान आपली पुराय साहित्यकृती कारवारी कोंकणींतल्यान बरयल्ली ही पयलीच खेप. हुंडो दिवप वा घेवप हें कायद्यान चुकिचें आसलें तरी आयच्या काळांत कांय लोक हुंडो घेतल्या बगर (दिल्या बगर) रावना. ताच्या फाटलीं कारणां वेगवेगळीं (घडये निर्जी) आसपाक शकतात. आयची सुदारिल्ली पिळगी ह्या हुंड्या पासून स्वताक पयस दवरता हातूंत दुबाव ना. होच विशय नाटकांत संदेशबाबान एक मध्यमवर्गीय आनी एका श्रीमंत घराब्याच्या माध्यमांतल्यान मांडला. नाटकांतल्या प्रत्येक पात्राचें व्यक्तिमत्व आनी विचारसरणी वेगळी आशिल्ल्यान प्रत्येक पात्राचो बारीकसाणेन अभ्यास करपाचो वाव आसा. घडये स्वता संदेशबाबान एकादें 'पात्रकेंद्रीत नाटक' बरोवप्याच्या हेतान नाटकांत सिमीत पात्रां आसूं येतात. हाका लागून नाटकाच्या मूळ विशयाक पोसवण मेळटा.

आयच्या तरणाट्या वाचप्यांनी हें नाटक मुजरत वाचचें. कला अकादेमीच्या नाट्यशाळेंत शिकपी विद्यार्थ्यांनी लेखकाच्या परवानगेन ह्या नाटकाचो प्रयोगूय करूं येता (शक्य आसल्यार). एक सामाजीक विशय, ताका जोडिल्ली विनोदाची बाजू, कारवार गांवांत जगपी नीज कारवारी पूण कोंकणी पात्रां, तांच्या तोंडार घोळपी कारवारचीच कोंकणी आनी नाटकाक फावो सारकिल्लो देखदेणो आनी सुखद शेवट हीं नाटकाचीं कांय वैशिश्ट्यां. पोटभर हांसयतना हें नाटक एका बायल मनशेची हुशारकाय दाखयता, तशेंच वयक्तीक पावंड्यार हुंड्याचे प्रते आड वचपाचो एक मार्ग दाखयता. साहित्यीक वा संशोधनात्मक निकश लावन नाटकाचो अभ्यास करपाक खुबच वाव आसा. एकंदर कारवारी बोलयेंत बरयल्लें 'बायल म्हागेल हुशार' हें विनोदी कोंकणी नाटक वाठार, संस्कृताय आनी विचारसरणी हांच्या संगमांतल्यान कोंकणी मनशाचें मनोरंजन तशेंच विचारांचें प्रबोदन करता अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

संपर्क : 8411990817/8788251629



# कृष्ण : एक थाव

**निलबा अ. खांडेकार**

अशें म्हणतात  की कृष्ण हो पुर्णावतार आनी दिसता तें खरेंय बी. जिवितांत ताणें सगळें भोगलें बरें आनी वायटूय. तो नंदा घरचो राखणो जालो, तो गोकुळातलो चोर जालो. तो सुदामाचो परममित्र जालो. पांडवांचो दुतूय जालो. सारथीय जालो. मार्गदर्शक जालो. दुश्टांचो विनाशी जालो. द्वारकाधीश जालो. आकांताचो राजकारणीय जालो आनी देवूय जालो. तरीय त्या कृष्णाचो सारको थाव केन्नाच लागलो ना. कृष्ण म्हटल्यार कोण? ताचें कूळ, वंश, देश, राज्य हाची आयज मेरेन विस्तृत अशी म्हायती मेळना.

प्राचीन साहित्यांत 'महाभारतांतल्या' कृष्णासैत एकूण सात कृष्ण मेळटात. ऋग्वेदांत कृष्ण नांवाच्या एका ऋशीचो उल्लेख आसा. तो ऋग्वेदाच्या आठव्या मंडळाच्या ७४व्या सुक्ताचो द्रश्टा ऋग्वेदांतूच आनीक एक कृष्ण मेळटा, जो अनार्यांचो फुडारी आशिल्लो आनी ताच्या हाताखाला १० हजार सैन्य आशिल्ले. अंशुमत्ती न्हंयेचे देगेर ताचें इंद्रा कडेंन युद्ध जालें आनी तातूंत तो परास्त जालो. कौशीतकी ब्राह्मणांत आनीक एक कृष्ण मेळटा, जो अंगिरसचो वंशज आशिल्लो. ऐतरेय अरण्यांत कृष्णहारित नांवाचो आनीक एक कृष्ण आसा. छांदोग्य उपनिशदांत घोग अंगिरत्याचो शिश्य आशिल्लो. देवकीपुत्र कृष्ण आसा. महाभारतांत गार्ग्य आनी सांदिपानी हांचो शिश्य आशिल्लो देवकीचोच पूत असो आनीक एक कृष्ण आसा. छांदोग्य उपनिशदांतलो कृष्ण आनी महाभारतांतलो कृष्ण हांच्या जोडीक भागवतादी पुराणांतलो गोपीजनवल्लभ असो एक तिसरोच कृष्ण दिश्टी पडटा आनी देव म्हणून देवाऱ्यांत, देवळांत जाची पुजा जाता तो हो पुराणांतलो कृष्ण.

'भारतीय संस्कृती का विराट रूप' ह्या पुस्तकांत आचार्य चतुरसेन (हिंदीतलो एक व्हड बरोवपी, आलोचक, संशोधक, तत्वज्ञ) कांय विचार करपा सारके मुद्दे मांडटा तो म्हणटा, पुराणांत मयुरा आनी इंद्रप्रस्थ आनी हस्तिनापूर ह्या तीन चक्रवर्ती राज्यांची वर्णना आसात. विचार करपासारखी गजाल ही की, इंद्रप्रस्थ तें हस्तिनापूर ६० मील आनी मथुरा ८० मील आसा. मथुरा तें गोकुळ आनी वृंदावन ४/५ मील आसा. मागीर ह्या तिनूय प्रदेशांनी चक्रवर्ती महाराज्य कशे? अक्रूर कृष्णाक गोकुळांतल्यान मथुरेक रथांतल्यान वाऱ्याचे गतीत घेवन गेलो. तेवूय बीन फांतोडेर भायर सरिल्ले ते सांजेर पावले. हाचो अर्थ असोच घेवं येता, की ४/५ मिलाचो प्रवास करपाक दीस भर लागलो आनी तोवूय बीन वाऱ्याचे गतीन.

कृष्ण गोकुळांत गायो चरोवंक व्हरतालो मागीर कंसा सारक्या सम्राटाक कृष्ण केन्नाच हाता मेळ्ळोना. ताका मारपाक धाडिल्ले असूरूय (पुतना, शकट, कालिया, भौमासूर, वृकासूर...) परते कंसा कडेन पावले ना. चवथी गजाल, कृष्ण आनी बलराम ह्या दोन्हय भुरग्यांनी कंस आनी ताचे सैनीक आनी अंगरक्षक अशे मारले, जशे ते कागदाचेच आशिल्ले. पांचवी गजाल, कृष्ण पांडवांचो समकालीन आशिल्लो हाचो संदर्भ फकत महाभारतांतूच मेळटा, जाल्यार महाभारतांत कंस आनी कौरवांचो खंयच संबंद दाखोवंक ना. सवी गजाल, वासुदेव आनी देवकीक (कृष्णाचे

आवय-बापूय) जेन्ना कंस बंदखणींत घालता तेन्ना वासुदेवाची दुसरी बायल, रोहिणी गुरवार आसता (वसुदेवाक आठ बायलो आनी बंदखणींत फकत देवकी आनी वसुदेवूच आसता) मुखार देवकीक बंदखणींतूच सात भुरगीं जातात. आठवो कृष्ण. मागीर बलराम आनी कृष्ण उपलब्ध पुस्तकांनी आनी टी.व्ही.र (रामानंद सागरालें 'कृष्ण') एक/दोन वर्सांच्याच फरकांचे दाखयल्यात. पुराणांत अशें म्हटलां की कंसाक आकाशवाणी जाल्ली की 'देवकेचो आठवो पूत तुजी हत्या करतलो' तेन्ना कंस देवकीक आनी वसुदेवाक बंदखणींत घालता आनी तांचे जाल्लें भुरगें तो मारून उडयता. आठव्या कृष्णाक वांचोवंक वसुदेवाक यश मेळटा. ही कथाय बी पचना. कित्याक तर सात भुरग्यांच्या जल्मांचे अंतर तीन वर्सांचे धरलें जाल्यार तो २१ वर्सांचो काळ जाता. म्हणजेच 'कृष्ण जल्माक' (आठवो पूत) देवकी-वसुदेवाक बंदखणींत २३/२४ वर्सांची वाट पळोवची पडली. हाचोच अर्थ असोच धरूं येता की बलराम कृष्णाच्याकूय २४/२५ वर्सांनी व्हडलोच आसपाक जाय. नाजाल्यार कृष्ण वसुदेवाचो पयलोच पूत जावं येतात. तेन्नाच ते एक/दोन वर्सांच्या अंतराचे जाव येता हें खरें मानपाक जाता. आनी आकाशवाणी ही राजनितीक षडयंत्रूच जाव येता, कृष्णाक देवपण दिवपा खातीरचें. जो मनीस आपल्या भुरग्यांक एकार एक करून हाल हाल करून मारता ते पळयता, तरीय वसुदेव नव्या भुरग्याक जल्माक हाडटा हेंवूय पटना.

कृष्णान कंस वध सुवार्थ सादोवंक करूंक नाशिल्लो. गणतंत्राची संकल्पना कितली म्हान आसा हें दाखोवपी, हाची प्रचिती दिवपी तो खीण आशिल्लो. म्हणून दर खेंप कृष्णाच्या मनांत व्यक्तीच्याकूय समश्टीच्या हितांक प्राधान्य दिवपाचो प्रगल्भ विचार आसतालो. म्हणून कृष्ण चरित्र वाचतना जर ताका मानव रुपांतल्यान पळयत जाल्यार ताचें प्रभावी व्यक्तिमत्व आपल्याक दिसलें बगर रावना. पूण देवाचो अवतार वा देव म्हण कृष्ण चरित्र वाचीत जाल्यार कांय एक हाताक लागना आनी मनांत आनी वाचपांत घुस्पागोंदळ जाले बगर रावना. आमचें मनांत देव ही संकल्पनाच अशी आसा की देव केन्नाय कितेंय करूंक शकता. कंसवध ही ग्रामस्थ आनी कृष्ण हांचे मदली संघटीत कारवाय अशें चिंतींत जाल्यार अतिताय जावची न्हय.

ते प्रमाण हरिवंश, श्रीमद्भागवत आनी महाभारतांतल्यान आमकां कृष्ण चरित्राची म्हायती मेळटा. कृष्ण विष्णूचो २३ वो अवतार. तर कांय कडेन ताका विसावोय अवतार असो संबोधला. महाभारताच्या नारायणीय खंडात मत्स, कुंभ, वराह, नृसिंह, वामन, परशुराम, राम, कृष्ण, बुद्ध आनी कली हे विष्णूचे धा अवतार अशें मानल्यात. हातूंतले तीन परशुराम, राम आनी कृष्ण हांकां पूर्ण अवतार मानल्यात, कित्याक तर ते सगळीं जीण जगल्यात. पूण म्हज्या हिसबान कृष्ण एकलोच पुर्णावतार सगळ्यांत सगळें जिवन तोच जगला. वायट-बरें, गोड-कडू, आंबट-तीख, मान-अपमान, सत्य-असत्य फकत ताणें पळयलां. अनुभवलां आनी भोगलाय बी.

आतां ही अवतारांची भासूच आमी कडेक काडून दवरूया. संवसाराची रितूच तशी आसा. ज्या मनशान असामान्य कार्य केलां ताका अवताराची उपमा जोडपाची जशें शिवाजी वा महात्मा गांधी हांकां तांच्या कार्याप्रमाण महादेवाचो वा विष्णूचो अवतार म्हण संबोधल्यात. जो मनीस जल्माक येता तो मरताच, मागीर देव केन्ना मेल्ल्याची गजाल म्हज्या वाचनांत तरी आयलीना. तशेंच हे म्हान कार्य करपी अवतारी पुरूश (प्रचिलीत) जल्माक आयल्यात आनी मेल्यात (राम, कृष्ण, झिजस, शिवाजी...)

कंसाच्या बंदखणींतल्यान कृष्णाक गोकुळाक पावोवप हें उग्रसेन महाराज, वसुदेव हांचे विशीं निश्ठा आशिल्ल्या कादयेंतल्या आनी मथुरा नगरींतल्या निश्ठावंतांच्या आधारानूच शक्य जालां आसपाक जाय. आयजूय बंदखणींतल्यान आनी पुलीस स्थानकांतल्यान गुन्यांवकारी पळून वयतांतच. मागीर खंयच्योय हांगसल्ल्यो थंयच्यो गजाली एकठांय जातात आनी एक काणी कोणाच्याय माथ्यार मारप जाता कसलीच बुनयाद नासतना, घडये दैवरूप दिवपाक. संवसारांत अश्यो खुबशो म्हान व्यक्ती जल्माक येवन गेल्यात जांच्या नांवार मनशाच्या तांकी भायल्यो गजाली जोडप जाल्यात (ज्ञानेश्वर, तुकाराम, शिवाजी, साईबाबा...)

कृष्णाचो सादारण अर्थ काळो. हाका लागून ताका शाम वा घनःश्याम म्हणटात. वसुदेवाचो पूत जाल्ल्यान ताका वासुदेव म्हणटात 'तशी प्रथा पुराणांत आसा' हाचो प्रत्यय आमकां महाभारतांत जाता. कृष्ण आनी शाम निळ्या श्यामवर्णाचो परिचायक, जो मळबाचो रंग आनी गगनाच्या निळायेच्या अनंत शिंपडिल्ल्या व्युपत्तीक रुपांत विष्णूचो परिचायक. कृष्णाचो दुसरो अर्थ दुसऱ्यांक आकर्शीत करपी. तर ऋग्वेदांत कृष्णाक काळ्या सैनिकांचो फुडारी अशें म्हटलां.

'वासुदेव' ह्या पदाचो घोळ सारखो उमजना. पुराणांतल्यान कृष्ण-वासुदेव हो विष्णूचो अवतार आशिल्लो आनी अवतार कार्य करून तो गेलो अशी कथा येता. कृष्ण वासुदेव आपल्या स्वताचे जीण भर देव म्हणून वावुरलो. ताणें देव म्हण चमत्कार केले. देखूनच घडये त्या काळार देव म्हणून ताका मानपांत आयलो, हें आमी धरून चलतात. तशें पुराणांत आनीकूय कांय जाण आपुणूच तो 'वासुदेव' म्हणटाले. (पौंड्र देशाचो राजा, चेदी देशाचो राजा) तांका कृष्णान जिवेशीं माल्ले. 'वासुदेव' हें नांव घेवप/मेळोवप म्हणजे कितें (?) हें स्पश्ट खंयच सांगिल्लें ना. पूण 'वासुदेव' हें नांव/पद म्हणोवन घेवपाची धडपड पळयली. म्हणुनूच तातूंत कितें तरी विशेश आसूं येता हातूंत मात लेगीत दुबाव ना. जेन्ना हाचो आमी आपलेपरीन अर्थ लावपाचो यत्न करतात तेन्ना कितें तरी समजल्याची खोस मेळटा. 'वसू' म्हणजे संपत्ती, समृद्धी असो अर्थ. 'देव' हो शब्द भव्य, दिव्य, तेजस्विपण आनी अतिमानूशता दाखयता अशी सुचक म्हायती इरावती कर्वे

आपलें पुस्तक, 'युगांतांत' व्यक्त करता.

हीं दोन नांवां (कृष्ण आनी वासुदेव) सोडलीं जाल्यार तिसरें आनीक फामाद नांव म्हटल्यार 'केशव' नित्य पाठांत २४ नांवां आसात. २४ नांवांतलें केशव हें पयल्या नंबराचें नांव (हरिवंश) जाचें सोबीत सुंदर, कुरळे केंस आसात तो केशव वा कोशी राकेसाचो वध करपी केशव. कृष्णाक मुरली (बाँसरी) वाजोवपाक खूब आवडटाली. नंदबाबाचो एक भाव, महानंद संगीतांत खूब हुशार आशिल्लो. ताचे कडल्यान ताणें मुरलीवादन शिकून घेतिल्लें आनी तातूंत ताणें खूबच प्रावल्य मेळयल्लें म्हण ताचे वयल्यान ताका 'मुरलीधर' म्हणटात.

कृष्णान ल्हानपणां सावनूच व्हड व्हड पराक्रम केल्ले. ल्हान-व्हड असुरांक मारले, गोकुळांतलें दूद-धंय खालें, गोपी वांगडा नाच-रंग केले आनी सगळ्यांचोच मायेमोगाचो जालो. इतल्या ल्हान वयांत आनी इल्ल्याश्या काळा भितर कृष्णाक इतलें अशें कशें शक्य जालें? आपणें इतलेंच येवजून धरून चलपाचें की कृष्ण एक आडवाद आशिल्लो आनी आडवादानूच नेम सिद्ध जातात. संत ज्ञानेश्वरान इतल्या ल्हान वयांत व्हडा-व्हडांक जीण वेंचून लेगीत अजून मेरेन जिका समजूंक पावलेना ती 'ज्ञानेश्वरी' बरयली. छत्रपती शिवाजीन वयाचे सोळाव्या वर्सा तोरणा किल्लो जिकिल्लो. लव-कुशांचो पराक्रम तर आमकां सगळ्यांकूच खबर आसा. आईनस्टाईन हांणी तर एका रातीन सगळो इंग्लीश शद्बकोश पाठ केल्लो. ह्या गजालींचेर विस्वास बसत व्हय? या खेरीज, कृष्णाक सांदीपनी आनी घोर अंगिरस हे गुरू लाबिल्ले. गुरू सांदीपनीच्या आश्रमांत ६४ दीस रावन कृष्णान १४ विद्या, ६४ कला आनी युद्धांतले नेम आनी युद्ध शिकप घेतलें. गुरू घोर अंगिरासान कृष्णाक ब्रह्मगिन्यानाचें पुराय ज्ञान दिलें, आनीक तातूंत तो त्या गुरुंचो उत्कृश्ट शिश्य म्हण सिद्ध जालो.

आचार्य सांदीपनींचो पूत दत्त हाका शंखासुरान पळोवन व्हेल्लो. तो एका जुंव्याच्या भुंयारांत कांय असुरी सैन्य घेवन बिनदास्त भितर रावतालो. कृष्णान आपले कडल्या यादव सैन्यांक घेवन या जुंव्यार वचून शंखासूर आशिल्ल्या भुंयाराच्या तोंडा कडेन बरीच धुंगी घालून ताका भायर काडलो आनी बाहुकंटकाच्या तांकीर ताका सोंपोयलो. ताच्या हातचो धवोफुल्ल दिव्य शंखूय ताणें आपल्याक घेतलो. तोच हो पांचजन्य शंख. जो ताचे कडेन शेवटा मेरेन आशिल्लो. शंखासूराचें विधियुक्त अंत्यसंस्कार करून गुरुचो पूत दत्ताक सन्मानान मुक्त करून सेनापती सात्यकी वांगडा ताका आचार्य सांदीपनीच्या आश्रमांत धाडलो. तेन्ना आचार्यान अजितंजय हें धनुष्य कृष्णाक प्रसाद म्हण भेट दिलें.

ऋग्वेदांत अशीय एक घडणूक आसा की इंद्रान कृष्णाचेर आक्रमण केल्ल्याची इंद्रा कडेन अश्वरोही सेना आशिल्ली आनी कृष्णा कडेन गाय, पाडे आनी अती फिशाल सेना आशिल्ली आनी हाच्याकूय चड म्हटल्यार कृष्णा कडेन युद्ध नितीची रचनाय करपी फिशाल तकली आशिल्ली. इंद्र आनी कृष्णाचें युद्ध जालें आनी ते युद्धांत कृष्णान इंद्राक परास्त केलो.

कृष्णान नंद, यशोदा, बाल वांगडी, गोपी, राधा, द्रौपदी आनी पांडव ह्या सगळ्यांचेर भरपूर मोग केलो तशेंच आपल्यो बायलो, भुरगीं आपलें राज्य आनी राज्यांतल्या प्रजेचेरूय खूब मोग केलो. पूण कोणांकूच फारोवन उरलो ना. ताच्या मनाचेर ताचो ताबो आशिल्लो. गोकुळांत तर राधेचेर ताणें हिसपा भायर मोग केलो. कृष्ण-राधेचेर आमकां खूब काणयो आयकूंक मेळटात. (राधाः वज्रपुरीच्या वृषभान् आनी कृतिका हांची धूव, वरिश्ट गोप राय अनयाची बायल) धनुष्ययाग यज्ञा खातीर कृष्ण जेन्ना मथुरेक वचपाक भायर सरलो तेन्ना शरिरी राधा अशरिरी जाल्ली. कृष्णाच्या मोगांत कृष्णमय जाल्ली. तरीय एकदां गोकुळांतल्यान गेल्लो कृष्ण परत केन्नाच गोकुळांत आयलोना. म्हणुनूच तो कोणा खातीर केन्ना रडलो ना आनी सैमाचें गतीकूय थांबोवपाचें काम ताणें केन्ना केलें ना. म्हण अशें म्हटल्यार अतिताय जावची न्हय की कंसाक मारपाक देवकीनंदन आपलें भुरगेंपण गोकुळांत दवरून आयलो. भारतीय साहित्य परंपरेंत 'कान्हा' हें मोगाचें प्रतीक. हेंवूय नांव अजरामर करपाक 'ताऊ'न हातभार लायलो (बलराम).

कृष्णान आठ लग्नां केलीं. सगळ्यांत पयलें विदर्भ नरेश भीष्मकाची धूव 'रुक्मिणी', हिच्या उदरांतल्यान धा चले आनी एक चली जल्माक आयली. प्रद्युम्न, चारुदेश्ण, सुदश्ण, सुशेण, चारुगुप्त, चारू, चारूवाहू, चारूविन्द, भद्रचारू आनी चारूक अशे हे कृष्णाले धा पूत आनी एक चली, चारुवती. हिच्या भायर कृष्णान आनीक सात लग्नां केली. कालिन्दी, मित्रविन्दा, सत्या, जाम्बवती, भद्र-रोहिणी, सत्यभामा आनी लक्ष्मणा ह्यो कृष्णाच्यो बायलो आनी दरेकाच्या उदरांतल्यान १०/१० चले आनी चार चलयो जल्माक आयल्यो.

कृष्णान चक्रवर्ती सम्राट मगधराज जरासंधाचेर मेळयल्लें जैत ही एक व्हड उपलब्धी आशिल्ली. महाभारत संग्राम काळांत भारताची १०१ मुखेल क्षत्रीय कुळां आशिल्लीं. जातूंतलीं ८६क एकल्या जरासंधान पराजीत केल्लीं. भारतांत ते काळार जरासंधाचोच आतंक शिपडिल्लो. शिशुपाल, कंस, कारूष आनी दन्तवस्त्र हे जरासंधाचे इश्ट आशिल्ले आनी बासठ राजा ताचें प्राधान्य मानताले. तो चक्रवर्ती सम्राट आशिल्लो आनी ताचे कडेन तशें फुडो करून तोंड दिवप, युद्ध करप खुबूच कठीण आशिल्लें आनी तातूंत कृष्णान कंसाक मारून जरासंधाची दुस्मानकाय वोडून घेतिल्ली. कित्याक तर जरासंधान आपल्यो दोन धुंवो (आस्ति आनी प्राप्ती) कंसाक दिल्ल्यो. विधवा जाल्ल्या धुंवाच्या रागान जरासंधान कृष्णाचेर एक एक करून सोळा आक्रमणां केली. मथुरेचें ह्या आक्रमणातल्यान खूब नुकसान जाल्लें. जरासंध तीन अक्षौहिणी सेनेचो अधिपती आशिल्लो (एक अक्षौहिणी सैन्यांत एक लाख णव हजार पन्नास पायदळ सैनीक, ३१ हजार हत्ती आनी ६७,६१० घोडे. हे नोंदीचें कमलेश्वरूय आपल्या 'कितने पाकिस्तान' ह्या पुस्तकांत समर्थन करता) कृष्णाक हेंवूय खबर

आशिल्लें. जो मेरेन आपूण परास्त जायना तो मेरेन जरासंध आक्रमणां करीत रावतलो. मथुरा नगर उध्वस्त करीत रावतलो. आपलें नुकसान करीत रावतलो. मदलो काळ मागीर दुसऱ्या युद्धाची तयारी आक्रमणां परतुवपाची तयारी चलताली. म्हण एक खरें, राज्य सतत युद्धाचे सावटा खाला उरत जाल्यार जनतेक लेगीत आपलो फुडारी नाकासो जाता. म्हण राज्य स्थलांतर हो पर्याय कृष्णान निवडलो. दुसऱ्या महायुद्धांत चर्चील हांच्या नेतृत्वाखाला अंग्रेज विजयी जाल्ले. तरीय मुखा वयले निवडणुकींत चर्चील निवडून आयलेना. तेन्ना ॲटलीचो पक्ष निवडून आयलो. हाचें कारण ज्या फुडाऱ्यांच्या प्रभावा खाला सतत युद्ध जायत रावता आनी तो फुडारी लेगीत बरो आसलो तरीय जनतेक तो नाकासोच जाता. ते खातीर सतराव्या आक्रमणां पयली कृष्णान स्थलांतराचो प्रस्ताव यादवां मुखार दवरलो आनी तो यादवांक मानवलो. हातूंत कृष्णाचे वक्तृत्व गूण दिसून येतात, कित्याक आपलें मूळ वा जल्मभूंय सोडून वचप हें सोपेपणी चडशें कोणाकूच शक्य नासता. पूण कृष्णान यादवांक स्वताचो मुद्दो अशे तरेन पटोवन दिलो जो तांकां मानचोच पडलो. कृष्णा कडेन नेतृत्व वचपाचें हें एक कारण जावं येता. कृष्ण हो एक बरो हुशार फुडारीच न्हय तर बरो वक्तोय आशिल्लो. आपले मुद्दे लोकांक पटोवन दिवप हें खुबूच कठीण काम. स्थलांतराची भूंय सौराष्ट्र आसूं येता असो संशोधकांचो अंदाज आसा. मुखार ताकाच घडये द्वारका म्हटलें आसतलें. जाच्या शेजराक विश्वामित्र, असित, दुर्वासा, कश्यप, वसिश्ठ आनी नारदा सारके व्हडले व्हडलें रुशी पिंडारक क्षेत्रांत निवास करताले. हाचोय एक फायदो घेवपाचो कृष्णाच्या मनांत (संगतीचो) आयलो आसतलो.

द्वारकेचो सोद गरुडान लायलो अशी कथा हरिवंशांत येता. पश्चीम किनाऱ्याच्या तोंकार आशिल्ली ही सुवात. हल्लो करतल्यांक भोव दोंगुल्ल्यो हुंपून येवचें पडटलें अशीं ह्या द्वारकेची रचणाय आशिल्ली. आनी उदकाची सोय करपी गोमती न्हंय आशिल्लीच.

मथुरेचेर जावपी जरासंधाची आक्रमणां पेलूंक जमलींना आनी मथुरेचो विनाश टळचो म्हण कृष्णान मथुरा सोडपाचो निर्णय घेतलो. खरें म्हटल्यार द्वारका एक सुरक्षीत असो जुंवो आशिल्लो. गर्गमुनीच्या देखरेखे खाला मय ताराक्ष, कमलाक्ष, विद्युन्माली, विश्वकर्मा, मयपुत्र दुदंभी, मायादीन, अजकर्ण, काळीक आदी... या स्थापत्य विशारदांकरवी सुवर्णमय द्वारका स्थापीत केली. ही नवी नगरी आनी तिचे सरभोंवतणीं वृश्णी, अंधक, भोज अशी विंगड-विंगड यादवांची कुळां बलरामाच्या अधिपत्या खाला रावली. जरासंधाच्या सतराव्या आक्रमणां वेळार कृष्ण द्वारकेतून पळून गेलो. तशें झुजामळ सोडून पळून वचपाच्यो वा फट उलोवपाच्यो संदी कृष्णान केन्ना सोडूंक ना. कालयवनाच्या वेळार कृष्ण झुजामळ सोडून पळून गेलो. जरासंधाचे आधार हंस आनी डिंभक आनी गुरू द्रोणाचार्य हांचे कडेन कृष्ण फट उलयला. तरीय कृष्णान आपणें मारिल्ल्या फटींक वेवहार निश्ठतेचो रंग फांसून सदांच खऱ्याचोच आभास निर्माण केला आनी सत्याची व्याख्याच बदलून उडयल्या.

मथुरेंतल्यान पळटा पळटा कृष्ण यादवां सयत गिरिगोमन्त (गोंय) हांगा सर येवन थांबलो. कांय दिसां उपरांत जरासंधूय हांगा सर पावलो आनी रानां वनांक उजो घातलो. अशे तरेन कृष्णाक यादवां सयत गिरिगोमन्तूय सोडचें पडलें (अशी नोंद पुराणांत आसा) मुखार चेदिराजा शिशुपालाक तांच्या फांटल्यान लावन आपूण मगध राज्यांत परतलो.

विचार करीत जाल्यार अशें दिसता ते हे यादव खूब शक्तीशाली, गिरेस्त, हट्टे-कट्टें, स्वभावान तापट, रोकडेच फुरफुरपी, रथविद्या आनी युद्धविद्येंत बरेच फुडारिल्ले लोक. जातूंत दोन पक्ष दिसता. एका पक्षाचें मत कृष्णाक राजा करपाचो अशेंय आशिल्ल्याचें जाणवता. तरीय कृष्णाच्या आडूय खूब लोक (यादव) आशिल्ले आनी कुळां-कुळांत झगडीं नाका म्हणून कृष्णान वसुदेवाचो व्हडलो पूत आनी कृष्णाचो सावत्र भाव बलराम हाचें राज्यांतलें व्हडपणूय मानून घेतलें. तांच्या दोगांय मदीं स्पर्धा अशी केन्ना नाशिल्लीच पूण मतभेद मात आशिल्लें. कृष्णाक लागून आपूण कार्यवाही राजा जालां, ही गजाल बहुतेक घडये बलराम जाणा जावन आशिल्लो आसूंये. तशे तांचे एकमेकांचेर बेजार जावपाचेय प्रसंग आयल्यात. महाभारत युद्धाच्या निमण्या दिसा युद्धनेमा आड भीम जेन्ना दुर्योधनाच्या जागडार गदा प्रहार करता आनी दुर्योधन सकल पडटा तेन्ना बलराम आनी कृष्णा मदीं उलोवण्याचो संघर्श जाता आनी बलराम बेजार जावन थंयच्यान रागान वता. पूण तो राग मात तितले पुरतोच आशिल्लो.

कांय काळान, द्वारकेंत सगळ्या यादवांक बरे तरेन जाग्यार बसोवन, ठाक-ठीक करून कृष्ण परत मथुरेंत आयलो. हाचो वास ताच्या दुस्मानांक लागलो. कालयवनान ताका आपल्या विशाल सेनेन चारूय वटयां आडायलो. सगळे मथुरेकूच बंदी केली. कृष्णाक आपली हार दोळ्या मुखार दिसली. तेन्ना ताणें आपली तकली चलयली आनी रण सोडून दोंगरा वटेन धांवपाक कोंमेस केलें. धांवचे पयलीं कृष्णान सांगलें आपूण एकटोच आसा तुवें (कालयवनान) आपल्या कडेन एकट्यानूच झगडचें. कालयवनूय कृष्णा फाटल्यान धांवत रावलो. धांवता धांवता कृष्णान कालयवनाक मुचुकुन्द राजाक भिडयलो, जो एका भुंयारांत कितलीशींच वर्सां देव-असूर युद्ध करून थकून न्हिदिल्लो. मुचुकुन्दान ताका जिवेशी मारलो आनी कृष्ण खूश जावन द्वारकेक परत गेलो. कृष्णाचो गोपाळ त्याग हें तर समश्टी कल्याणार्थ उखलिल्लें विराट पावल आशिल्लें. मथुरा त्याग हो त्याच समश्टीच्या सुवार्थी आनी लज्जास्पद वर्तनाचो हीन असो आविश्कार आशिल्लो.

**(मुखार चलता)**

संपर्क: ९६३७०१२५२४

# धीट लोकांचो देश : विएतनाम

**संपदा कुंकळकार**



उज्वला (आचरेकर) मावशीचो फोन आयलो. आपूण आनी शाम (आचरेकर) विएतनाम वचपाचीं आसात. तूं आनी ज्योती येता? मम्मी लागींच आशिल्ली. तिणें 'हय' म्हूण सांगलें आनी आमचें विएतनाम वचपाचें थारलें. आमच्या पंगडांत दोन लोक आयले. शाम काकाचो मित्र विनोद (पै) काका आनी उज्वला मावशीचो बापोल भाव विशाल (एडवणकर) मामा.

गोंयांतल्यान दुबय सोडल्यार बाकी देशां भायर खंयच विमानां वचनात म्हूण हैदराबादच्यान वचपाचें थारलें. हैदराबादच्यान म लेशिया आनी मलेशियाच्यान हॉ चि मिन ह्या शारांत. हैदराबादाक वता जाल्यार हें शार पळोवया अशें थारलें. विशाल मामा थंय दोन दीस पयलींच पावलो. तो आर्किटेक्ट आशिल्ल्यान ताका कांय इमारतींचो अभ्यास करपाचो आशिल्लो.

१७ जानेवारीक हैदराबादाक वचपाक आमकां सकाळच्या ७क विमान आशिल्लें. ८.३० क सुमार आमी हैदराबादच्या विमानतळार देंवली. थंयच नाश्तो केलो. हांगाची खास 'कापी' पिलीं. हांगा हे लोक कॉफिक कापी म्हणटात. थंयच्यान टॅक्सी करून विशाल मामा राविल्लो त्या हॉटेलार गेलीं. आमचे खातीर ताणें एका दिसा खातीर रूम बूक केल्लो. थंय पावतकच बॅगो रुमार दवरून आमी स जाणां सराल जंग हे संग्रहालय पळोवपाक गेलीं. आमचें थरिल्लें एक वा देड जाता सर हें संग्रहालय पळोवप आनी मागीर जेवपाक वचप. हैदराबादाक एक दीस रावतलीं हें थारत सावन शाम काकान सांगिल्लें, दनपरां थंयच्या पॅरडायज ह्या फामाद हॉटेलांत बिर्यानी खावप. वाटेर हुसैन सागर न्हंय लागता. ही न्हंय हैदराबाद आनी सिकंदराबाद ह्या दोनूय शारांक वेगळी करता. हें न्हंयेंत गौतम बुद्धाची जगांतली सगळ्यांत लांब monolith मूर्त म्हळ्यार एकाच फातराचेर कोरांतिल्ली मूर्त आसा. आनी हे मूर्ती कडेन गोंयचो संबंद आसा. ही भव्य मूर्त दवरपाक १५ फीट लांब बसका बांदली. तिका 'Rock of Gibraltar' अशें म्हणटात. ही मूर्त न्हंयेंत एकदम मद्‌द्यार आसा. ती व्हरतना ही मूर्त वांकडी जाली आनी उदकांत पडली. ती वयर काडप एक व्हड कसरत आशिल्ली. मागीर ही मूर्त गोंयच्या अनिल मडगांवकर हांच्या मडगांवकर साल्वेज हे कंपनीन वयर काडली.

सराल जंग संग्रहालयांत वचपाक २० रुपया तिकीट. जर फोटो काडपाक जाय जाल्यार ५० रुपयांचो पास घेवप. पासा बगर फोटो काडल्यार फायन आसा. एका कॅमेरा खातीर एक पास. आमी स जाणां, चार पास घेतले. खरें म्हणल्यार फोटो काडपी तिगांच, हांव, विशाल मामा आनी विनोद काका. मम्मी, उज्वला मावशी आनी शाम काका चड फोटो काडिनात.

हांगा बरीच गर्दी आशिल्ली. आमी एक गायड घेतिल्लो. गायड बरी म्हायती दिता. ताणें ४०० रुपया सांगले. हें संग्रहालय १९५१त दिवान दिवडी ह्या सलार जंगाच्या पूर्वजांचे पलासींत सुरू जालें. सलार जंग ही एक पदवी. हे सलार जंग हैदराबादच्या निजामाचे प्रधानमंत्री आशिल्ले. ह्या संग्रहालयांत दवरिल्ल्यो चडश्यो वस्तू ह्यो नवाब मिर युसूक अली खान, जे सलार जंग इ आशिल्ले, तांच्यो आसात. जगभरांतल्यान हाडिल्ल्यो पुरातन वस्तू हांगा दवरल्यात. दोनशें-तीनशें वर्सां पयलींच्या वेगळ्या वेगळ्या वस्तूंचो हो संग्रह पळयतकच अजाप जाता. हांगा सामकीं दुर्मीळ हस्तलिखितां आसात, हातान तयार केल्ली पुरातन नाणीं आसात, हिरे, माणकां लायिल्ले सुरे-खंजीर आसात. चलपाच्यो बडयो-दांडे, तेय बी भांगराचे आनी चांदीचे. कांय गजाली

सामक्यो लक्ष वेधून घेतात. एक धवो मार्बलचो पुतळो, ताचेर धवो ओलो कपडो घातला अशें दिसता. दुसरी अशी एक मूर्त जी फुडल्यांतल्यान पळयल्यार एक ताट मान करून उबो आशिल्लो राजा तर फाटले वटेन मान सकयल घाल्लि चली. अजापाची कारागिरी. आमचो गायड बरे तरेन सगळ्यांचीं म्हायती दितालो. हांगा जगांतल्या वेगळ्या वेगळ्या देशांतल्यान हाडिल्ल्यो दोनशें वर्सां पयलींच्यो घडयाळी आसात. हांगा पावतकच गायडान एक गजाल सांगली. आमी जेन्ना रोमन नंबर बरयतात तेन्ना ४ हो आंकडो IV असो बरयतात. पूण शंबर देडशे वर्सां पयलीं ४ हो आंकडो IIII असो बरयताले. हे एके गजाली वयल्यान घडयाळ कितली पोरणी हें कळटा.

हांगा आनी एक वेगळी घडयाळ आसा. ती म्हळ्यार इंग्लीश ब्रॅकेट घड्याळ. इंग्लंडांत तयार केल्ली. २०व्या शेंकड्याचे सुरवातेक नवाब मीर युसूफ अली खान हाणें हाडली. हे घड्याळीची खाशेलेपण म्हणल्यार तातूंत अशी यंत्रणां आसा जाचे खातीर एक ल्हान बावलो दर एका वराक, तीन मिनटां पयलीं भायर येता आनी ६० वें मिनीट जाय सर रावता आनी मागीर भितर वता. ही घड्याळ जंय दवरल्या ताज्या मुखार लोकांक बसपाक खुर्च्यो घातल्यात. तशेंच एक स्क्रीन केल्या. आमी थंय पाविल्लीं तेन्ना एक जावपाक आयिल्लें. आमीय बी खुर्चेर बसून तो बावलो भायर येता तो पळयलो. हांगा आनी जायत्यो वस्तू आसात. शंबर वर्सां पयलींच्यो साडयो, वखदाक वापरतालीं तीं मापां आसात. आमीं दोन वरां भितर हे तीन माळ्यांचे संग्रहालय पळयलें. पूण हांगा परत वचपाची इत्सा आसा.

हांगाच्यान आमी पॅरडायज ह्या फामाद हॉटिलांत जेवपाक गेलीं. बरेंच व्हड हॉटेल. हांगा खंय एका वेळार सुमार १५०० लोक जेवपाक येतात. हांगाचे स्थानीक तशेंच पर्यटक. भितर सरतकच विमानतळार करतात तशें तरेचें चेकिंग. आमी पयल्या माळ्यार गेलीं. जे फामाद लोक ह्या हॉटेलांत जेवन गेल्यात तांचे हांगा फोटे मारल्यात. बरीच गर्दी आशिल्ली. आमी चिकन सिरव कबाब, मटन सिरव कबाब, हांगाची फामाद मटन बिर्यानी आनी चिकन बिर्यानी मागयली. हांगाचें फामाद गोडशें डेबल मीठो मागयलें. जेवण अप्रतीम आशिल्ले.

जेवण जातकच आमी चार मिनार पळोवपाक गेलीं. हैदराबाद हें शार जायत सावन उबो आशिल्लो चार मिनार. मनांत बरीच उत्सुकता आशिल्ली. पूण गाडयेंतल्यान देवतनाच मन मात्शें विरूस जालें. सामकी कचकचीत गर्दी. मुंबयच्या क्रॉफर्ड मार्केटा भशेन. तें होलसेल मार्केट. थंय अशी गर्दी समजूं येता. पूण ह्या जाग्यार अशी गर्दी. येदी व्हड इतिहासीक इमारत. जायते देशी-विदेशी लोक हांगा येतात. भोंवतणचो वाठार सामको बुरसो. भोंवतणी सवाय साद्यो वस्तू विकपी लोक. सरकार कांयच करिनाय हो जागो निवळ दवरपाक हो प्रस्न पडलो. हांगा पावतकच एक गजाल लक्षांत आयली. ह्या चार मिनाराचेर एक व्हड घड्याळ आसा. रोमन आंकडे आशिल्ली. ४ हो आंकडो IIII असो बरयल्लो आशिल्लो शंबर वर्सां आदलीं घडयाळ. संग्रहालयांत वतकच गिन्यानांत भर पडटा ती अशी. हो वाठार बरो निवळ, वेवस्थीत, शिस्तबद्ध दवरिल्लो जाल्यार हो चार मिनार पळोवपाची मजा वेगळीच आसपाची. हांगा वयर वचपाक मेळटा. सपणां आसात. लिफ्ट मात ना. सकाळीं फांतोडेर उठिल्लीं, सकाळच्यान भोंवतालीं. सगळ्यांक पुरो जाल्लें, म्हूण आमी वयर गेलीं नात. चार मिनार सकयल्ल्यानूच तोखेलो.

चार मिनाराचे फाटले वटेन कांय दुकानां आसात. तातूंतली निमराह बेकरी सामकी फामाद. हांगा कांय गोल बारीक टेबलां घाल्यांत. च्या पीत-पीत चार मिनार पळोवप. बरोबर हांगाची खासियत ऑस्मानियाँ बिस्किट. आमीय बी स्पेशल च्या पीत-पीत आनी बिस्किटी खायत चार मिनार पळयलो.

मागीर हॉटेलाचेर वचून विसव घेतलो. हांगा खूब ट्रॅफिक आसता आनी विमानतळ शारा पासून पयस आशिल्ल्यान आमी सातांक सुमार भायर सरलीं. मात्शे ट्रॅफीक लागलें. विमानतळार वचपी रस्त्यार ११ कि.मी. लांब पूल लागता. आमी रातचें जेवण विमानतळार घेतलें. हांगा भितर जायतीं खावपाचीं स्टॉलां आसात. एका स्टॉलार वेगळ्या वेगळ्या पद्धतीचे डोसा मेळटाले. आमी सगळ्यांनी डोसा खाले.

ॲयर एशियान प्रवास करपाची ही म्हजी पयलींच वेळ. मलेशियांत स्थायीक जाल्लो गोंयकार टॉनी फर्नांडिस हे विमान कंपनीचो मालक. कनेक्टिंग विमान आशिल्ल्यान दोनूय बोर्डींग पास बरोबर दिले. विमान ११.५५ च्या सुवातेर १२.२० क उडलें.

मलेशिया आमचे परस अडेच वरां मुखार आसा. आमी ६क सुमार मलेशियाच्या आंतरराष्ट्रीय विमानतळार देवलीं. हांगाची फामाद 'White Coffee' घेतली.

हॉ चि मिन वचपाक आमकां ८क विमान आशिल्लें. एका तासाचो प्रवास. विमान वेळार उडलें आनी आमी ९क हॉ चि मिनच्या आंतरराष्ट्रीय विमानतळार पावलीं. विएतनामाक विजा ऑन अरायवल जरी आसलो तरी पयलीं ऑनलायन अप्लाय करचो पडटा. १६०० रुपया भरचे पडटात. मागीर कांय दिसां एक पत्र, फॉम आनी तुमचें नांव आशिल्ली वळेरी येता. थंय पावतकच तें पत्र आनी भरिल्लो फॉर्म दोन पासपोर्ट फोटो सयत दिवप. २५ डॉलर्स म्हळ्यार आमचे १७५० रुपया भरप. तेन्ना विजा मेळटा. इमिग्रेशनाचेर बरेच लोक विजा खातीर राविल्ले. फॉर्म बी सगळें दिवन आमीं थंय आशिल्ल्या खुर्च्यांचेर बसलीं. एक एकट्याचें नांव घेतात त्या प्रमाण वचप आनी पासपोर्ट घेवप. तांची भास आनी उच्चार सामको वेगळो. ते खातीर आमी कान दिवन आशिल्लीं. एका वरान आमच्या ६ जाणांच्या पासपोर्टाचेर विजाचो शिक्को लागलो.

शाम काकान ऑनलाईन टॅक्सी बूक केल्ली. विमानतळाचेर भायर सरतकच एका टेबलाचेर शाम काकाचें नाव मारिल्लें.

आमी ल्हान टॅम्पो सांगिल्ली. आमी ६ जाणां आनी आमचीं ६ बॅगां. पयशे पयलींच ऑनलाईन भरिल्ले. पूण तांणी आमकां दोन इनोवा गाडयो दिल्यो.

वातावरण प्रसन्न आशिल्लें. ह्या शाराचें नाव पयलीं सायगांव आशिल्लें. १९७५ वर्सा तें बदलून हॉचि मिन ह्या फुडाऱ्याचें नांव लोकांनी ह्या शाराक दिलें. हें विएतनामांतलें सगळ्यांत व्हड शार. हांगाची लोकसंख्या १ कोटी ४० लाख. आमकां इतिहासीक कू ची टनेल्स् पळोवपाक जाय आशिल्ली. तीं हॉ चि मिन शाराक लागीं आशिल्ल्यान आमी रावपाक ह्या शाराची निवड केल्ली.

अर्द वरान आमी ब्लूम सायगांव ह्या हॉटिलांत पावलीं. बुकिंग पयलींच केल्लें. हॉटेलाचेर सामान दवरून आमी भायर सरलीं. सगळ्यांत पयलीं पयशे exchange करपाक जाय आशिल्ले. आमी सगळ्यांनी अमेरिकन डॉलर्स व्हेल्ले. १ डॉलराची किंमत २३ हजार डाँग. दनपार जाल्ली. पयशे exchange करून आमी जेवपाक हॉटेल सोदपाक लागलीं. हांगा जीं हॉटेलां वयल्या माळ्यार आसात तांचो मॅन्यू सकयल मारिल्लो आसता. PHO 2000 ह्या हॉटेलाचो मॅन्यू आमकां आवडलो. हें हॉटेल पयल्या माळ्यार आशिल्लें. तळ माळ्यार कॅफे आशिल्लो.

पयल्याच दिसा आमकां एक गजाल कळ्ळी, ती म्हळ्यार हांगाच्या लोकांक इंग्लीश बरी कळना. जे पर्यटना संबंदान उद्देग आसात तातूंत काम करपी - रावपाचीं हॉटेलां, टूर आयोजीत करपी ऑफिसां तांकांच जुजबी इंग्लीश येता. ह्या हॉटेलांत बरीच गर्दी आशिल्ली. ल्हान भुरग्यांक घेवन पालक, तरणाटीं, जाण्टी हांगा आशिल्लीं. आमच्या म्हऱ्यांत जीं वेटरस् आयली तिका आमी जें सांगतात तें कळ्ळें ना. इंग्लीश अशें सांगतकच तिणें जिका इंग्लीश कळटा तिका धाडीले. ते चलयेक मात आमची ऑर्डर सारकी कळ्ळी. आमी चिकन रायस, वेज रायस, आंब्याचो शेक मागयलो. चिकन करी बरी आशिल्ली. शिवराक म्हूण जें मागयल्ले तें आमच्या खतखत्या भशेन. भितर मके, भेंडे, केळीं, बटाट सगळें आशिल्लें. रुचीक आशिल्लें. हांगा साद्या शिता बरोबर सालाद दिवपाची पद्दत आसा. ह्या तेंपार थंय आंबे जातात. आंब्याचो शेक बरो आशिल्लो. हें विएतनामांतलें आमचें पयलें जेवण. तें रुचीक आशिल्ल्यान सगळींच खूश जालीं.

आमचें हॉटेल शाराच्या सामकें मदीं आशिल्लें. हॉटेलां, सुपर-मार्केटा, मार्केट सगळें लागीं, walking distance सांचेर. हें हॉटेल निवडले खातीर शाम काकाक सगळ्यांनी शाबासकी दिली. जेवण जातकच आमी रुमाचेर मात्सो विसव घेतलो. विमान प्रवास जरी त्रासाचो नासता तरी मात्शे पुरो जाताच. सांजवेळा आमी भायर सरलीं. आतां हें शार वेगळें दिसतालें. चकचकतालें. सामकी गजबज. पावलां कणकणीं कॅफे आनी रेस्टॉरेन्टस्.

हांगा कॉफी कल्चर खूब आसा. लोक सतत ग्लासातल्यान कॉफी आनी लिंबू घाली फूटी च्या पितना दिसतात. सांजेवेळा लोक फुटपाथार खुर्च्यो घालून कॉफी, आयस् कॉफी पीत बसतात. जगप सामकें सुशेगाद. शार जरी आसलें तरी लोक धांवपळ करिना. हांगा सुमार ९०% लोक कॉफी पितात खंय. कांय कॅफेंनी तर मुद्दाम भायर फुटपाथाचेर ल्हान-ल्हान खुर्च्यो आनी टेबलां घाल्यात. रस्त्याक तोंड करून दवरिल्ल्यो खुर्च्यो आनी दोन खुर्च्यां मदीं चौकोनी ल्हान टेबल. हांगा बरेच जाण खूब वेळ कॉफी पीत बसतात. पितना वाचतात वा चडशे फावटी मॉबायलाचेर आसतात. फुटपाथाचेर खावपाचे आनी फळांचे गाडे आसतात. तांकां चलोवपी थंयच खुर्चेर बसून जेवतात, कॉफी आनी ज्यूस पितात. केन्ना केन्ना तांचे मित्र/ मैत्रिणी फॅमिलींतले लोक येवन तांचे बरोबर बसतात.

हांगा टूर आयोजीत करपी जायती ऑफिसां आसात. एके कडेन चवकशी केली. फुडें वतकच एका दुकानांत एक चली आशिल्लें. मम्मी म्हणपाक लागली हे चलयेक विचारुंया. आमकां कितें पळोवपाक जाय ताची वळेरी केल्ली. ताणें वेगळे वेगळे टूर दाखयले. दुसऱ्या दिसा 'मॅकोंग डॅलटा' पळोवपाक वचपाचे थारले. सकाळच्या ७.३० क टूर गायड हॉटेलार पावतलो हें अशें चलयेन सांगलें. सांजे वेळा ५ क परत हाडून सोडटले.

थंयच्यान आमी जेवपाक गेलीं. आमी दाओ प्लेस ह्या हॉटेलांत घेतलें. हॉटेल खूब सुंदर आशिल्लें. उज्वला मावशी बरें जेवण करता. तांगेर आयिल्ल्या दर एकल्याक भरपूर करून वाडटा. तिका जेवणाचें चड ज्ञान आशिल्ल्यान जेवण कितें मागोवप ही जबाबदारी तिचेर सोंपयली. हॉटेलाची मालकीणूच आमचे कडेन ऑर्डर घेवपाक आयली. पयलीं आमी हांगाची खासियत हॉट पॉट मागयलो. पूण शिवराक. पयलीं मेजार इल्लोसो स्टोव दवरतात. ताचेर एक व्हड आयदन. त्या आयदनांत मिक्स सूप उकळटा. कांय गजाली जशें उदक, तांचे कांय सॉस, अळम्याचे कुडके घालून हाडटात. ताच्या बरोबर कापिल्ल्यो भाजयो, पालक, गाजर, तांदळाचे नुडल्स हाडून दवरतात. उदक सळसळपाक लागतकच एक एक जिन्नस भितर घालप. सगळें शिजतकच सूपाच्या मोठ्या वाटयेंत चमचो आनी चॉपस्टिकस् घेवन खावप. हांवें पयलेंच फावट चॉपास्टिक्स वापरल्यो. हॉट पोट आमकां सगळ्यांक आवडलो. शिवराक हॉट पोटाक वेगळ्यो वेगळ्यो भाजयो आनी अळमीं घालतात. नॉन वॅज हॉट पोटांत सुंगटां, तिसऱ्यो बी घालतात. पयलेंच फावट खाता म्हूण आमी शिवराकूच मागयल्लो. हांगा चडशे लोक हो जिन्नस सद्दां खातात. मूळ चायनांतलो. थंयच्यान हांगा आयलो आनी हांगाचे संस्कृतायेचो एक घटक जालो. हांगा तांचे पद्दतीचीं ग्रील्ड सुंगटां, चिकन सात्रे आनी फ्रायड रायस खालो. जेवण सामकें रुचीक आशिल्लें.

दुसऱ्या दिसा आमी सगळीं जाणां सकाळीं नाश्तो बी करून ७.३० क तयार जालीं. चडशीं हॉटेलां सामक्या निमाण्या माळ्यार रेस्टॉरन्ट दवरतात. खातना सगळो भोंवतणचो वाठार दिसता. बँकोक गेल्लीं तेन्ना ४३व्या माळ्यार नाश्तो करपाक

वतालीं. थंयच्यान सगळें बँकोक शार दिसतालें. आमचो गायड वेळार हॉटेलाचेर पाविल्लो. आमी व्हडले ॲसी बशीन मँकोंग डेलटा पळोवपाक भायर सरलीं. आमचे बरोबर वेगळ्या वेगळ्या देशांतल्यान आयिल्ले पर्यटक आशिल्ले.

मँकोंग डॅलटा शारा पासून ६० कि.मी. पयस आशिल्लो. हांगा रस्त्याचेर खूब स्कुटरी दिसतात. एका मिनटांक कितल्योश्योच दोन चाकी वतात. चलयो, दादले, बायलां सगळींच दोन चाकी घेवन. जगांतल्यो सगळ्यांत चड दोन चाकी विएतनाम देशांत आसात. तातुंतल्यो चडांत चड हॉचि मिन ह्या शारांत. पूण एक चलोवपी आनी फाटल्यान बसपी दोगांय जाण हॅल्मेट घालतात. गाडी क्वचीत दिसता. हाचे कारण गाडयांचेर भरपूर टॅक्स लागता. केन्ना केन्ना १५०% टॅक्स. म्हूण सादारण मनशाक गाडी परवडना.

पयलीं आमकां बॅन ट्रॅ हांगा एक बौद्ध पगोडा पळोवपाक व्हेलीं. आमचे पयलीं हांगा बऱ्योच बशी राविल्ल्यो. व्हेन फोंग हो पगोडा बरोच व्हडलो आनी सुंदर आसा. भितर सरतनाच बुद्धाची ध्यानस्त मुद्रेंली भांगराळ्या रंगाची मूर्त. ह्या देशांत ५५% लोक बौद्ध धर्माक पाळो दितात. ३५% ख्रिश्चन, १०% ताओवादाक, हिंदू आनी मुस्लीम, आनी काऑडिजम ह्या धर्माक पाळो दिवपी ५% परस कमी, म्हळ्यार सुमार २० लाख.



पगोड्याच्या भायर बांदकाम ाचें काम सुरू आशिल्लें. ह्या आवारांत लाफिंग बुद्धाची आनी विष्णू आसनात न्हिदिल्ल्या बुद्धाची व्हड मूर्त आशिल्ली. मुर्ती मुखार एक लांब टेबल. त्या टेबलाचेर ताका शीत, फळां, सूप हांचो निवेद्य दवरिल्लो. हांगा सद्दां देवाच्या वा संताच्या मूर्ती मुखार निवेद्य दाखोवपाची प्रथा आसा. हांगा भायर आवारांत एक दुकान आशिल्लें. थंय हांवें कोंड्याची टोपी विकती घेतली. हांगाच्यो बायलो असल्यो टोपयो सद्दां घालतात. जायत्या पर्यटकांनी असले तरेची टोपी घाली. घेतली खरी, पूण हिका गोंयां कशीं व्हरप हो प्रस्न मनांत आयलो. पळयल्यार विनोद काकानूय बी एक टोपी घेतिल्ली. कितेंय तरी वाट मेळटली अशी आशा दिसली. पगोड्याच्या भायर जायतीं दुकानां आशिल्लीं. थंय खावपाचें, पिवपाचें सामान मेळटालें. आमकां हांगा अर्द वर दिल्लें. पगोड्याच्या सामके मुखार एक बाग आसा. तातूंत बुद्धाची व्हड उबी मूर्त आसा. ती बाग पळोवन आमी मँकोंग डेल्टा कडेन वचपाक भायर सरलीं. आमचो गायड चड उत्साही नाशिल्लो. मोजकेंच उलयतालो.

कांय वेळान आमी बंदराचेर पावलीं. हांगा जायत्यो बशी राविल्ल्यो. तशेंच जायत्यो मोटर बोटी आशिल्ल्यो. आमचो गायड आमकां बोटी कडेन घेवन गेलो. पंगडांतले सगळे जाण बसतकच बोट सुटली. बोट मँकोंग न्हंयेंतल्यान युनिकॉर्न जुंव्यार वताली. ही न्हंय आशियांतली एक व्हड न्हंय. ४३५० कि.मी. लांब. ती चीन, लाओस, मिएनमार, थायलँड, विएतनाम आनी कंबोडिया ह्या ६ देशांक जोडटा.

कांय वेळान आमी युनिकॉर्न जुंव्यार पावलीं. हांगा म्होंवांमूस पोसतात. येतनाच पयलीं तांचें जाळें दाखयलें. दोनूय वटेन हँडल आशिल्ल्या जाळ्याचेर कचकचीत म्होंवांमूस राविल्ले. जाका हो स्टँड हातांत धरपाक जाय ताणें धरप. विनोद काकान धरलो. मागीर आमकां गरम उदकांत म्होंव घातिल्लें Welcome Drink दिले. बरोबर केळ्याचे चिप्स. एके चलयेन आमकां म्होंवाचें महत्व सांगलें. हांगा म्होंव विकपाक दवरिल्लें. भारतांत बरें म्होंव मेळटा म्हूण आमी घेतलें ना. पूण खावपाक मात केळ्याचे चिप्स घेतले. हो पुराय जुंवो आमकां गायडान दाखयलो. हांगा कांय दुकानां आशिल्लीं. विकपाक कपडे आनी यादस्तिकां दवरिल्लीं. ह्या जुंव्यार एक व्हड अजगर आशिल्लो. आमच्या गायडान ताका हातांत धरलो. कोणाक जाय ताणें धरूं येता अशें सांगलें. आमच्या पंगडांत दोन जपानी चलयो आशिल्ल्यो. तातूंतलें एकटें फुडें गेलें. ताका त्या अजगरा बरोबर फोटो जाय आशिल्लो. मात्सो हातांत धरपाक जाय आशिल्लो. पूण गायडान तो अजगर ताचे माने भोंवतणी घातलो. बरेंच भियेलें बाबडे.

ह्या जुंव्यार फुडें आनी एक माटव आशिल्लो. बसपाक दोनूय वटेन बांक आनी मदीं टेबल. आमकां खावपाक फळां दिलीं. पोपाय, आंबे, चिकू, ड्रॅगन फ्रूट आनी एके तरेचें फळ. ताचें नांव मात खबर ना. सगळीं फळां रुचीक. मागीर तांचो लोकगीतांचो कार्यक्रम सुरू जालो. आमच्या म्हऱ्यांत आमच्याच पंगडांतलें एक चली येवन बसलें. तें मूळ विएतनामचें पूण झुजाच्या वेळार ताचें कुटुंब कॅनडा स्थायीक जाल्लें. आपलो देश पळोवपाक तें आयिल्लें.

दिसपाक तें हांगाच्या चलयां भशेन दिसतालें पूण देहबोली, उलोवप, कपडे सामके वेगळे. ज्या देशांत भुरगो जल्मता वा ल्हान आसतना स्थायीक जाता त्या देशाची संस्कृताय भुरग्याचेर चड प्रभाव घालता. तें ज्या देशांत रावता, थंयचेंच जातात. अशे सामके कमी पालक आसतात जें दुसऱ्या देशांत रावन लेगीत भुरग्याचें आपल्या संस्कृताये कडेन नातें दवरतात. ताका आपले संस्कार दितात.

कार्यक्रम जातकच आमी दुसऱ्या जुंव्यार वचपाक भायर सरलीं. बोटींत बसतकच गायडान सांगलें, निमाण्या जुंव्यार आमी

जेवण घेतलीं. आमचे पॅकेजींत जेवण आशिल्लें. पूण जर कोणाक एक्स्ट्रा नुस्तें घेवपाक जाय जाल्यार तांकां आतांच कळोवपाक जाय. ताणें पयशे थंय पावतकच भरप. आमी ६ जाणांनी 'डीप फ्रायड फिश' जाय म्हूण सांगलें. तशें ताणें फोन करून कळयलें.

दुसरो जुंवो, 'कोकोणट किंगर्डम'. भितर सरतनाच नाल्लाची एक व्हड प्रतिकृती आशिल्ली. हांगा जायतीं नाल्लाचीं झाडां आशिल्लीं. नाल्ल कशे सोलप आनी कांतप हें आमचो गायड दाखोवपाक लागलो. गोंयकार हें सदांच पळयतात. पूण आमच्या पंगडांत येवरोपेव, जपानी लोक आशिल्लें तांणी सगळें सामकें दोळे भरून पळयलें. नाल्लाच्यो चॉकलेटी कश्यो करप तें हांगा दाखयलें. सामको नाल्लाचो रोस काडून तांतूंत गोड बी घालून वांटप ते चॉकलेट पॅक करपा मेरेनची दर एक गजाल. दर एकल्याक चॉकलेट खावपाक दिली. ह्यो चॉकलेटी हांगा विकपाक दवरिल्ल्यो. तशेंच हांगा नाल्लाची आयस्क्रीम विकपाक आशिल्ली. ती मात हांवें खाली.

हो जुंवो पळोवन जातकच आमी तिसऱ्या जुंव्यार वचपाक भायर सरली. हे फावट मात्शे ल्हान मोटर बोटीन. आमी ६ जाणां आनी दोन जपानी चलयो. बोट चलोवप्यान फाटले वटेन एक कपड्याचो झोंपाळो केल्लो. त्या झोंपाळ्यात ताजें भुरगें न्हिदिल्लें.

कांय वेळान आमी निमाण्या जुंव्यार पावलीं. आमचो गायड राविल्लो. ताणें आमकां पयलीं जेवपाक व्हेलीं. तांचें थळावें जेवण. आमी शिवराक जेवण सांगिल्लें. हॉट पोट, शीत, उकडिल्ल्यो भाज्ज्यो आनी रोस, रायस् नुडल्स, दोन तरेचे सॉस, सालाड आनी कांय कापिल्ल्यो भाज्ज्यो, अशें जेवण आयलें. आमी डीप फ्रायड फीश मागयल्ल्यान ताणें व्हड नुस्तें तांचे पद्दतीन करून स्टँडाक आडवें लावन हाडलें. खावपाक सामकें रुचीक आशिल्लें. हांगाचो आनी एक थळावो जिन्नस म्हळ्यार रायस् पेपर. तांदळाचे पोळे काडटात तशे गोल पोळे काडप. ते सुकयतात. खावचे पयलीं ते मात्शे ओले करप. तांतूंत भाज्ज्यो, रायस् नुडल्स, नुस्तें जें जाय तें घालप, दोडप आनी सॉसांत बुडोवन खावप.

जेवण जातकच आमी जुंवो पळयलो. हो सगळ्यांत व्हड जुंवो आशिल्लो. आमी जेवपाक बशिल्लीं त्या माटवां भायर लांकडाचे ल्हान ल्हान बांक आनी टेबलां घाल्लि. मदीं मदीं कुंडयो दवरिल्ल्यो. पणसाचीं झाडां लायिल्लीं. हांगा 'फिश फॉर्म' आशिल्लें. वेगळ्या वेगळ्या टांकयांनी नुस्तीं आशिल्लीं. तशेंच भयंकर व्हड मानगीं आशिल्लीं.

सगळें पळोवन जातकच गायडान सगळ्यांक एकठांय आपयलीं आनी चार-चार जाणांचे पंगड करपाक सांगलें. आमकां दिसलें कसलो खेळ बी खेळपाक सांगता काय. पळयल्यार वेगळीच भानगड आशिल्ली. परत व्हड बोटी कडेन वचपाक आतां ल्हान व्हडयांतल्यान वचपाक जाय आशिल्लें. सामकें ल्हान व्हडें. चार मनीस बसूं येतात येदें. दोग जाण चलोवपी. व्हडयेंत बसतना सांबाळून, मदीं पांय दवरून देंवप आनी पळयेचेर बसप. हात भितर, भायर कडेर दवरप ना. उदकांत मानगीं आसात अशी शिटकावणी मेळ्ळी. आमच्या व्हड्यांत मम्मी, हांव आनी एक येवरोपेव जोडपें आशिल्लें. हीं व्हडीं दादले तशेंच बायलां चलयतालीं. व्हड्यांत हांव पयलेच खेपीं बशिल्लें. दोनूय वटेन झाडां आनी येवपी-वचपी तीं रंगीत व्हडीं. म्हाका मजा आयली. हांगा उदकांत नाल्लाची झाडां आसात. तांकां Sea coconut लागतात. उदकांत जावपी नाल्ल. कांय नाल्ल झाडाक वयर लागिल्ले तर कांय सामके सकयल, उदकांत उफेवपी, दाट कट्टें आशिल्ले. ब्रावन रंगाचे. हांवें जायते फोटो काडले. कांय वेळान आमी धक्यार पावलीं. व्हड मोटर बोटींत बसलीं परतुपाक. हांगा पावता म्हणसर तीन तरेच्या वेगळ्या वेगळ्या बोटींनी बशिल्लीं. दोन मोटर बोटी आनी एक व्हडें. बोटींतल्यान देंवन बशींत बसलीं. दनपारचो वेळ. चडश्या जाणांचे दोळे झेमताले. आमचो ड्रायव्हर मात बरोच उमेदी आशिल्लो. परतुपाच्या सगळे वाटेर ताणें पदां म्हणलीं. मजा घेत घेत बस चलयतालो. मदीं गुळयो घेतल्यो. खरें म्हणल्यार आमी पर्यटक. ह्या देशांत पयलेंच फावट आयिल्लीं. परत एखादे थंय पावचीं नात. पावलीं जाल्यार मॅकोंग डेलटा पळोवपाक कित्याक वतलीं? म्हूण आमी उमेदी आसपाचीं. दोळे भरून वाठार पळोवपाचो. त्या ड्रायव्हराची ती सदचीच वाट आसतली. तरी कितलो आनंद घेतालो तो मनीस. खऱ्यांनीच तोखणाय करपा सारकी. जगतात सगळींच. पूण उमेदीन जगप म्हत्वाचें.

सांजेवेळा आमी हांगाचें 'Night Market' पळोवपाक गेलीं. बरींच दुकानां आशिल्लीं. सगळ्या दुकानांचेर बायलां एखाद्या दुकानाचेर दादलो दिसलो. हांगा कपड्यांची दुकानां, हस्तकलेचीं दुकानां तशेंच खावपाचे गाडे आशिल्ले. विएतनामाची याद म्हूण हांवें कांय यादस्तिका घेतलीं. मागीर आमी 'रॅड डॉर' ह्या हॉटिलांत जेवपाक गेलीं. हॉटेल तिसऱ्या माळ्यार आशिल्लें. वातावरण बरें आशिल्लें. सजावटूय बरी केल्ली. हांगाय बी सगळ्यो चलयोच. ह्या हॉटिलाची मालकीण एक चलीच आशिल्लें. हांगा एक गजाल सामकी जाणवता, ती म्हळ्यार दादल्यां परस चड काम बायलां करतना दिसतात. ह्या हॉटेलांत जेवण बरें आशिल्लें. पूण भाशेची अडचण. इंग्लीश एकेच चलयेक येताली. हांगा लोक चिकन चड खायनात. धुकराचें आनी गांयचें मास चड खातात. म्हूण कितेंय मागयतना कितें जाय ताच्या परस कितें नाका हें समजावन सांगप चड गरजेचें.

आमचें हॉटेल सामकें मुदीं आशिल्ल्यान सगळें लागीं आशिल्लें. आमीं पांयांनीच भोंवतालीं.

हॉ चि मिन ह्या शारांत १० जिल्ले आसात. आमी रावतालीं तो जिल्लो १. हांगा जायते मसाज पार्लर आसात. पूण 'फूट मसाज' हो प्रकार चड फामाद. दर एका मसाज पार्लरा भायर चलयो हातांत तांचे पॅम्फ्लेट घेवन उब्यो आसतात. आमी एका पार्लरा कडेन

रावलीं. चलयेन विएतनामाचो पारंपारीक पोशाक घातिलो. तोंड सामकें हांसरें. तें ह्या पार्लरांत कसले मसाज दितात हाची म्हायती सांगपाक लागले. मम्मीन ताका 'तूं शिकलां' काय विचारलें. तेन्ना ताणें सांगलें, 'तें सकाळचे विद्यापीठांत शिकता. सांजेवेळचीं ५ ते रातचें २ मेरेन ह्या पॉर्लरांत काम करता. आपूण फकत चार वरां न्हिदता अशें ताणें आमकां हांसून सांगलें.

पार्लरांत बरीच गर्दी आशिल्ली. कामाक मात लोक कमी. चडशे पर्यटक दिस भर भोंवन मागीर रातचें पांयांक मसाज घेवपाक येतात जावंये. बसतकच विचारतात मसाज करपाक चलो जाय काय चली? हांवें चली म्हूण सांगलें. एके लायनींत खुर्च्यो घातिल्ल्यो. पांयां कडेन बेसीन. त्या बेसिनांत पांय बुडोवन दवरले. पांच मिनटांनी एक बरी चली आयलें. मम्मी आनी उज्वला मावशे परस म्हजो मसाज मात्सो बेगीन सुरू जालो. स्टाफ कमी आसा म्हूण तांणी फोन करून कामाच्या मनशांक थारायलीं. धा मिनटांत मम्मी आनी उज्वला मावशेचो मसाज सुरू जालो. मसाज करपी चलयेन म्हाका Indian काय म्हूण विचारलें. ''तूं भारतात पावलां?'' काय विचारतकच ताणें 'ना' म्हणलें. पूण हांगा जायते भारतीय मसाज घेवपाक येता अशें सांगलें. हांगाच्यो चलयो बारीक सुटसुटीत पूण हाचो हात बरोच घट्ट आशिल्लो. ४० मिनटां मसाज घेतकच जिवाक बरें दिसलें.

मागीर आमी तेच चलये कडेन वचून दुसऱ्या दिसा खातीर टूर बूक केलो. फकत ताका सांगलें, ''फाल्या मात्सो गायड बरो दी.'' 'कू ची टनेल्स्' ह्यो हें भोंवडेतलें सगळ्यांत व्हड आकर्शण. आमी ६ जाणां खातीर खाजगी टूर सांगली. चड लोकां बरोबर इतलो महत्वाचो जागो वेवस्थीत पळोवन जायना.

दुसऱ्या दिसा सकाळी ८ क सुमार आमचो गायड हॉटेलार पाविल्लो. गाडयेंत बसना फुडें ताणें विएतनामा विशीं म्हायती दिवपाक सुरवात केली. पयलें आपलें वळखपत्र दाखयलें आनी सांगपाक लागलो, हांगा आडनांव पयलीं सांगतात. मागीर नांव सांगप, ताचें नांव यॉम. बरोच उत्साही आशिल्लो. देशा विशीं आकांताचो अभिमान. म्हणपाक लागलो, आपल्याक बापायन विचारलें, ''तूं राष्ट्रपती जातलो काय पयशे जोडटलो?'' आपणें म्हळें, ''हांव हॉ चि मिन वतलों.'' सांगपाचें तात्पर्य - जाका राजकारणांत वचपाचें आसता तो हा नॉय (राजधानी) वता आनी जाका पयशे जोडपाचे आसात तो हॉ चि मिन येता. ह्या शारांत विएतनामाच्या वेगळ्या वेगळ्या भागांतल्यान जायते लोक येवन रावल्यात. कारण हांगा पयशे जोडपाक चड संद मेळटा. ताच्यो खबरो आयकत आमी हॉ चि मिन शारा सावन सुमार ७० कि.मी. पयस आशिल्लीं इतिहासीक 'कू ची टनेल्स्' पळोवपाक भायर सरलीं. विएतनाम हो देश दोन भागांनी विभागिल्लो आसा. उत्तर आनी दक्षीण. मदीं पर्वत. हो पर्वत दोनूय भागांक वेगळें वेगळें हवामान दिता. उत्तरेक ४ रुतू तर दक्षिणेक फकत दोन. ह्या दोनूय भागांतलें राहणीमान वेगळें. तशेंच भाशेच्या उच्चारांत मात्सो फरक आसा. देशाची राजधानी हा नॉय उत्तरेक आसा. पयलींच्या काळार उत्तर साम्यवादी आशिल्लो. १९व्या शेंकड्या सावन फ्रॅंच राजवट आशिल्ली. १९४५त जपानान आपलें सैन्य विएतनामांत धाडलें. ह्या दोगांय कडेन झुजपाक विएतनामान एक सैन्य उबारलें. पूण १९४५ च्या दुसऱ्या महाझुजा उपरांत जपानान आपलें सैन्य विएतनामातल्यान काडलें. ह्या विएतनामाच्या सैन्याक देश साम्यवादी (Communist) जाल्लो जाय आसलो. ह्या देशाचेर ताबो घट्ट करपाक फ्रान्सान अमेरिकेक आपले मदतीक आपयली. अमेरिकेक संवसारांतल्यान साम्यवाद ना जाल्लो जाय आशिल्लो. १९५४ त अमेरिका विएतनामा बरोबर झूज करपाक देंवली. आनी हांगाच अमेरिका आनी विएतनामाच्या इतिहासाचो एक नवो अध्याय सुरू जालो.

झुजाची सुरवात कू ची ह्या जाग्यार बॉम्ब घालून केली. अमेरिकेक दिसता तितलें सोंपें कांयच नाशिल्लें. सैन्यान आनी लोकांनी मेळून झुजपाचें थारायलें आनी अमेरिकेक नाका पुरो करून सोडली. विएतनामाच्या सैन्यांनी अमेरिके कडेन 'गोरीला वॉर' पद्दतीन झूज केलें. ह्या झुजा खातीर २५० कि.मी. लांब, ६ गांवांक जोडपी 'कू ची' टनेल्स् बांदलीं.

हांगा पावतकच तिकीट घेवन भितर वचप. पिस्तुलां, आर्टिलरी बी पळोवपा खातीर दवरल्यात. थंयच्यान आनीक भितर वचप. पयलीं एका माटवांत ह्या झुजाचेर एक म्हायतीपट दाखयतात. हो म्हायतीपट पळयतकच झुजाचो आनी सामान्य मनशाच्या योगदानाचो अंदाज येता. हांगा जे वावुरपी आसात तांणी तोच पोशाक घातिल्लो जो सैन्यांत, दादल्यांनी तशेंच बायलांनी घातिल्लो. काळ्या रंगाचो पोशाक आनी चेक्सांचो स्कार्फ. म्हायतीपट सोपतकच आमचो गायड आमकां टनेल्स दाखोवपाक घेवन गेलो.

ह्या टनेल्सांची सगळी आंखणी पळयतकच हांकां सलाम करचो सो दिसता. एके वटेन अमेरिकेचें सैन्य अत्याधुनीक शस्त्रां, रसायनां वापरताली तर विएतनामाचें सैन्य कोंड्याचीं शस्त्रां वापरतालें. तशेंच अमेरिकेच्या सैन्याचीं मेळिल्लीं शस्त्रां घेवन तांचे पासून नवीं शस्त्रां तयार करतालें. हें झुज सुमार वीस वर्सां चल्लें.

ह्या झुजांत अमेरिकेन मनीसपणाक लाशें लायतलें अशीं वायट कृत्यां केलीं. तांतुंतलें सगळ्यांत हीण कृत्य म्हळ्यार 'Agent orange' ह्या रसायनाचो उपेग. विमांनातल्यान विशारी रसायनां २६ हजार गांवांचेर शिंपडलीं. तातूंत ६१% एजंट ऑरेंज हें रसायन. हें रसायन इतलें विशारी की ताचे परिणाम आयज चवथे पिढीक लेगीत भोगचे पडल्यात. अपंगूळ भुरगीं जल्माक आयल्यांत.

ही टनेल्स जंय बांदलीं तें सगळे रान. ह्या टनेल्सां भितर हें सैन्य रावतालें, रांदतालें, तांच्यो बैठकी जाताल्यो. रानांतल्यान मदींच भायर येवपाक वाट. टनेल्सांत भितर वचपाची आनीं भायर वचपाची वाट सामकी ल्हान. विएतनामाचे सैनीक सामके बारीक आनी सुटसुटीत. त्या तेपार ते फकत शिवराक जेवण

जेवताले. भितरूच रांदताले. पूण हो धुंवर वेगळेच कडल्यान भायर सोडटाले. वयल्यांतल्यान वचपी हॅलीकॉप्टरांनी भोंवपी सैन्याक दिसपाक जायना.

अमेरिकेच्या सैनिकांक अडकोवपाक वेगळीं वेगळीं जाळीं आनी सांपळे तयार केल्ले. जमनीच्या भितर कोंड्याचे भाले दवरप आनी वयल्यान पानां घालप. चलतां चलतां सैनीक पडटाले. पांयांक जबर जखम जाताली आनी झाडार लिपून बशिल्ले तांचेर हल्ले करताले. केन्ना केन्ना तांचेर जिवाणी उडयताले. तें सावरता म्हणसर तांचेर हल्लो करप. ५५ हजार अमेरिकेचे सैनीक तांणी मारले. सामान्य मनशान लेगीत झुजांत वांटो घेतील्लो. ल्हवूच बॉम्ब आनी लॅण्ड मायन्स् दवरताले. सैनीक सकाळचे झुजताले तर रातचे शेत रोयताले. एके वटेन हातान हीं भुंयारां खणप, झुजप आनी रातचें शेत रोंवप ही कसरत चलताली. श्रम करप हें हांच्या रगतांतूच आसा.

कांय जाण झुजतकच रोखडेच सायगांव न्हंय पेंवून वताले. पूण भितरल्यान पेंवप आनी श्वास घेवपा खातीर कोंड्याचो उपेग करताले. तशेंच अमेरिकेच्या सैन्याची दिशाभूल करपाक टायरापासून तयार केल्ली चप्पल वापरताले. हीं चपल्लां दोनूय वटेन घालपाक मेळटालीं. अशें केल्ल्यान चप्पल घातिल्लो मनीस खंयचे वटेन गेला तें कळनासलें. तें मदींच भायर सरून गुळयो झाडटाले. आनी रोखडेच भितर वताले. ते खंयच्यान आयलें, खंय गेले हें कळटा म्हणसर ते नाच जाताले.

जर ह्या टनेलांत भितर वचपाची वाट दुस्मान सैन्याक कळ्ळी आनी तें ह्या टनेलांत भितर पावलें तरी तांचें मरण थरिल्लें. कारण भितर कशें वचप आनी खंयच्यान वचप हें तांच्याच लोकांक खबर आसतालें. केन्ना केन्ना भितर वतना तें भुंयारांत भितर वचपी खड्ड्याच्या दाराक बॉम्ब लायतालें. दार उगडलें जाल्यार बॉम्ब फुट्टालो.

हांगा पर्यटकांक पळोवपाक सगळे तरेचीं जाळीं दवरल्यांत. तशेंच एखाद दुसऱ्या टनेलांत वचपाक मेळटा. पूण ते खातीर मनीस सुटसुटीत आनी घट काळजाचो आसपाक जाय. ह्या झुजांत बायलांनी वांटो घेतिल्लो. शस्त्रां चलयल्लीं. तांचे फोटे हांगा लायल्यात. तशेंच अमेरिकेच्या सैन्यान वापरिल्ले सगळे टॅंक, अस्त्रां हांगा दवरल्यांत. सगळें पळोवन जातकच निमाणें हांगा बंदूक चलोवपाची सुविधा आसा. पूण ताचे पयशे वेगळे. आमी ६ जाणांनी बंदूक चलोवपाचो अणभव घेतलो. कशे तरेन नेम साधून, स्वताचो तोल सांबाळून, लिपून रावन ही बंदूक चलोवप कशी हो प्रस्न पडलो. झुजांत मानसिकताय आनी वृत्ती चड महत्वाची. जेन्ना प्रस्न जगपाचो आनी मरणाचो आसता तेन्ना मनीस कशें मानसीक बळ एकठांय करता, बुद्धी वापरता हाचे प्रतीक हीं कू ची टनेल्स.

(मुखार चलता)

संपर्क: ९४२११५२२९७

# ओप

**वल्ली क्वाडरस**

सकाळींचो नास्टो करच्या वेळार देवकीन, काल सांजेर सांभाजी रावाक सांगिल्लीं उतरां परत उगडास केलीं.

''शंभुकाकान काल सांगलां, परवां विठ्ठलवाडीचीं, चेड्याचीं आमच्या रेणूक पळोवंक आमगेर येतात...''

''हांव जाणां देवकी, तूं चिंता करिनाका, तूं टपरीचेर ध्यान दी. बाकीचें हांव पळयतां...'' कोतमीर वडीचो अखेरेचो कुडको आपल्या तोंडाक चेंपून सांभाजीराव जाप दी लागलो.

सकाळीं वेगीं उठून चण्या पीट कालोवन, गॅस्लेट तेलाचो स्टव पेटोवन, बटाटे उकडून, कांदे, मिरसांगो आनी कतमिरेचो पालो कातरून, च्या आनी चपाती करून जातना उजवाडटा. कॉलोनीच्या मुन्सिपालिटीच्या उदकाच्या नळांनी पुस्स आवाज सुरू जाल्लोच देवकी उठून पयलो काकसाचो[1] डब्बो तयार करतच जांबायो काडून उठचो सांभाजीराव तो डब्बो घेवन कॉलोजीच्या पब्लीक काकसाचे लायनींत उबो रावता. देवकी फटाफट आयदनां धुवन, घर नितळ करतना धूव रेणू डब्ब्यांत आपलो नास्टो घेवन तयार जावन कामाक वेच्याक न्हेसून बि.इ.एस.टी बस्साचे लायनींत उबें जाता.

ही हांची दिसावळ सदांची. सगट वेवस्थीत रितीन जाता.

काकसाक गेल्लो सांभाजीराव आयिल्लोच म्हरये बगलेक आसच्या ल्हान जाग्यार उकुड्डें बसून न्हाता धुता आनी पसरो हाडूंक आयतो जाल्ले परींच देवकी ताका नास्टो दिता आनी टपरीक मांडून दवरिल्ल्या उकडिल्ल्या बटाट्यांक, चण्या पिटाक आनी धुल्ल्या आयदानांक घेवन टपरी लागीं वेता.येदोळूच[2] बगलेच्या केलशीच्या[3] बांकार खोवयिल्ले थैलेंत पॅकेटीच्या दुदाच्यो थोड्यो पॅकेटी हाडून पयलें दूद हून करता. बगलेच्या गॅस्लेटाच्या स्टवाचेर च्या चडोवन तेचवेळार आयदनांत आसच्या चण्या पिटांत बटाटे, तरण्यो मिरसांगो भरसून वडे करची तयारी करता.

ठाणें स्टेशना थावन सावंतवाडीक देड मैलांचो अंतर आनी लागशिल्यान आतातां थोडीं नवीं हॉटेलां उकतीं जाल्यांत, तरी त्या गली मोहल्लांत धंदो करचो लोक, जावं धोबी, वा भाजीवालो सर्वांक सदांचो नास्टो तयार जातालो देवकीचे टपरींत. एका फांत्यार थोडीं वरां केल्ले म्हेनतेंत वडा, कोतमीर वडा, पोहा, बन्न मस्का, पाव, च्या आनी थोड्यो बिस्कुटो. चड करून इतलेंच देवकीचे टपरींत मेळचें. आनी चड करून लोकांनी खावचें.

दीस दनपार लागीं जालो म्हणटच सकाळीं पसऱ्याक गेल्लो सांभाजीराव पियाव, बटाटे, तरणी मिरसांग, आलें, कोतमीर पालो आनी टोमाटो आनी गरजेचो पसरो घेवन येतालो. ही ताची दिसावळ. उपरांत दीस भर टपरी लागीं येवच्या लोकाक सांबाळटना देवकी घरा वचून घर सांबाळटालें. घरांत रांदप, वस्तरां उंबळूंक तशेंच नितळकायेचें काम करून येतालें.

***

मुंबय शार एका तेंपा आदीं परकें शार जावन आसलें. जेन्ना मायगांव बारामती थावन आयिल्ल्या वेळार. फटाफट तीन वर्सां पडिल्ल्या बरगला[4] निमतीं[5] आशिल्ल्या तीस गुंट्या शेतांत कसलेंच बेळें[6] पिकोवंची आशा सांभाजीन सोडचे आदीं ताची विधवा आवय अंतरली. एका वर्साच्या रेणूक आनी देवकीक घेवन मुंबयंत वसती करून आशिल्ल्या पयशिल्ल्या सोयऱ्याक विठोबारावा सवें, बगलेच्या एका कुडाचे चाळींत तांचे सवें थोडे म्हयने सारिल्ले. दीस पोरणे जाल्ले तरी दोगांचेय यादींत आसात.

ठाणें थावन सावंतवाडीचे वाटेर मदें एक रेल्वेचो नाको मेळटा. त्या नाक्या लागीं मुडला[7] थावन पडला[8] येवक म्हूण बांदिल्लो एक सांकव आसा. त्या सांकवाच्या सुरविल्या मेटां[9] सकला एक ल्हान टपरी चलयतालो विठोबाराव. एके सकाळीं जायतीं थंयसर जमतालीं. लागशिल्यान कोणाकूय कुली कामाक गरज पडली तर, तीं हांगासर येवन दिसाळ्या मजुरेचेर आळांक[10] घेवन वेतालीं.

सुरवेर देवकीन आनी सांभाजीरावान सयत हांगासर लोकां जम्यांत रावून दिसपट्टें काम केल्लें आसा.

थोडे पावटीं देवकीक काम मेळटालें. जावं तें घरां नितळ करूंक वा फॅक्टरी नितळ करूंक. थोडे पावटीं सांभाजीक, जावं रस्ते नितळ करूंक, तोटां[11] नितळ करूंक वा कोणाचेंय घर खाली करून तांचें सामान आन्येका जाग्याक व्हावोवंक. थोडे पावटीं दोगांकूय काम नासलें. बरें जालें विठोबारावाची बायल भुरग्या रेणूक सांबाळटाली.

एक पावटीं एका बनारसी भैय्यान देवकी आनी थोड्यांक कामाक म्हूण व्हरून तांचे लागीं बुरशी नदर घाल्ली गजाल वाडींत चर्चे चो विशय जाल्लो. होच विशय मुन्सिपालिटी एलिसांवांत सयत थोडे पार्टीनी उठयलो. ''आमच्या बायलांक मर्यादेन काम करूंक सयत आज काल ह्या यू.पी. बिहारी भैय्यांनी त्रासाचें करून घालां''. त्या दिसा उपरांत देवकीक भायर कामाक धाडचें सांभाजीरावान बंद केलें.

अशें पयलें सांभाजीराव भायर कामाक गेल्ले परींच देवकी विठोबाचे टपरीक मजत करताली. दीस गेल्ले परींच विठोबान आपली चाळ सांभाजीरावाक भाड्याक दिवन पगडेर एक ल्हान कोठरी घेतली आनी थंय गेलो. पूण ही टपरी बरी करून चलयतालो. अशें दीस गेल्ले पेरीच देवकीन सयत सांभाजीरावा लागीं ''आमी कित्याक आमचीच म्हळ्ळी एक टपरी करी नजो?'' म्हणून सुरू केल्ली टपरी आतां बरी चलताली.

रेणूचें शिकप जाल्ले परींच, आयलेवार[12] सांभाजीरावान सयत आपले चाळीच्या कुडाक भाड्याक दिवन पगडेर एक कोठरी घेतली.

'चेडूं व्हड जावन येतना, फाल्यां सोयरिको हाडटल्यांनी चाळिंतलें चेडूं म्हणून हिणसूं नजो' म्हणलें चिंतप चिंतून.

कोठरी कशीय केल्ली व्हय पूण कोठरेंत सामान कांय ना. कांय चार प्लॅस्टिकाचीं कदेलां आनी एक मेज सोडल्यार. वणटीचेर

कांय थोडीं पायनेलां[13] आसलीं जीं थंय पयलें जियेतलीं सोडून गेल्लीं. शिवाजीचीं, अंबेडकराचीं आनी साईबाबाचीं पायनेलां.

पूण म्हेनतेन तरी वांवट[14] कांडून आज सावंतवाडी मोहल्लेचे हरगल्लींनी देवकी आनी सांभाजीरावाक वळख नासलो कोण ना.

***

सकाळीं फांत्यार थावन सांजेर पर्यांत केल्ले म्हेनतेंत तांचो दिसपट्टो गिरास मेळटालो. एकेक नाणें म्हळ्ळे परीं उरोवची संवंय देवकीची. पूण हरेक पावटीं जें कितें उरयिल्लें तें एकलेच धुवेक फेस्ता परबे वेळार नवीं वस्तरां, अपरूप कांय भांगार, वा हेर खर्च जातना तांचे लागीं कितेंच उरनासलें.

'आमचे परीं आमच्या चेडवान कश्ट काडचे नाकात. तें अंतस्तेच्या घराण्याच्या चेड्या सवें लगीन जावं दी' देवकीचें सदाचें रजार सांभाजीरावाक थोडे पावटीं विपरीत दिसतालें.

''तांच्या नशिबांत आसलें कोणें बदलूं येता देवकी... तूं बेश्टेंच कित्याक चिंता करताय? जाल्ले परीं जातलें...'' तो सांगतालो. पूण ताच्याय मनांत आपले धुवेच्या फुडाराची खंत आसली. देखून ताणें एक कोठरी कशी आसूंक जाय म्हळ्ळें चिंतून सकाळींच वचून भाड्याचो एक सोफा आनी टिपॉय... तशेंच चार नवीं कदेलां हाडलीं. एका हफ्त्याच्या भाड्याक.

दुकान वाल्यान तो सोफा आनी कदेलां दितना सांगिल्लें ''तूं एकूच पावटीं फारीक करूंक शकनांय तर म्हयन्या म्हयन्याक फारीक कर. भाड्याक कित्याक? तूं मोलाक व्हर...''

पूण सांभाजीरावाक हो सोफा कित्याक गी चडटीक[15] खर्चाक एक वाट म्हळ्ळे परीं भोगलें. देखून ताणें भाड्याकूच हाडचें बरें म्हूण लेखलें.

कोठरेचे सजोवणेंत देवकीन खूब म्हेनत केली. ही सोयरीक घट जाल्यार पुरो. म्हजे देवकीक बरें अंतस्तेचें घराणें मेळ्ळ्यार पुरो म्हूण देवकीन तो भाड्याचो सोफा आनी कदेलां बरीं करून पुसून दवरलीं.

सांजेर कामा थावन आयिल्लें रेणू, ही सजोवणी पळोवन मातशें निरासलें. पूण आपल्या व्हडिलांचे खुशेक लागून आपलें निराशी चिंतप लिपोवन ओगेंच रावलें.

***

थारायिल्ल्या दिसा शंभुकाकान विठोबा वाडी थावन चेड्याक आनी ताच्या व्हडिलांक घेवन कारार हाडलें.

''चेडो बरो शिकला. आपलेंच म्हळ्ळें रेंव सिमेंटीचें बिजनेस चलयता. एकलोच पूत देखून ताकाय आपली बायल काम करची आसल्यार बरें म्हूणताचीं व्हडिलां म्हजे लागीं सांगतालीं. म्हाकाय तुमचें चेडूंच आमच्या पकियाक जोकतें म्हूण भोगलें. चेडवाच्या व्हडिलांचें एक हॉटेल आसा. कारबार आसा आनी बरें चलता. तांची एकलीच धूव म्हणटना जें कितें तांचें म्हळ्ळें आसा तें सगळें धुवेचेंच...''

आयकून देवकी आपलो संतोस मनांत लिपोवचें प्रेतन[16] कतराली. सांभाजीरावान सवाल केलें ''चेड्याचें नांव?''

''पकिया.. तें नांव मोगान दवरलां. ताचें नांव प्रकाशराव जाधव पकियाच्या व्हडिलांनी जाप दिली.

''ओ... आमच्या चेडवाचें नांव रेणुका आपटे.''

तितल्यार रेणू हांतीं चाय आनी बिस्कुटेची ट्रेय घेवन टीपॉयचेर दवरतनाच शंभून तोंड उगडलें. ''तुमी कित्याक भायर वेरांडांत वचून एकामेका उलोवन येनांत? आमकांय उलोवंक आसा न्हय?''

***

''तुज्या गळ्यार आसची ती चैन भांगाराची?'' पकियाचें सवाल आयकून रेणूक अजाप जालें.

''हूं'' व्हय म्हणले जिनसार रेणून तकली हालयली.

''आजकाल मुंबयंत चैन चोरी चडल्या देखून चडटावां भांगाराची ओप[17] लायिल्ली चेन गळ्यांनी घालतात... देखून विचारलें.''

"ही ओपाची चेन..." रेणून हळू जाप दिली.

आयकून पकिया अजापलो; "जावं...तुजी प्रमाणीक जाप म्हाका आवडली."

"ही चैन मात न्हय, म्हज्या कानाचें, नाकाचें, हाताचें सर्व ओपाचें. म्हाका भांगार खायस[18] ना. पूण म्हजीं व्हडिलां खायस करतात देखून तांच्या मनाक धादोस करूंक हांव हीं घालतां."

"बरे विचार... तुका कितेंय विचारूंक वासांगूंक आसा?" पकियान सवाल केलें.

"विचारूंक न्हय, सांगूंक आसा.हांव एकलेंच भुरगें आनी चेडूं. देखून म्हाका मेळचें घराणें बरें आसूंक जाय म्हूण म्हजीं व्हडिलां आशेतात."

"तें सहज. न्हय गी रेणू?"

"व्हय.. पूण हो बांद जीण भर आसूंक जाय जाल्लो न्हय? तर तसल्या एका बांदाची बुन्याद सताचेर आसूंक जाय न्हय?"

"......???" कितेंच समजूंक ना म्हणल्यार जिनसार पकिया रेणूक चोयतालो.

"तूं म्हजे सवें जीण भर बांद जोडूंक आयलाय. तुजे लागीं सतूच सांगतां. पूण हें तुजे लागीच दवर. शंभुकाकान सांगचे परीं म्हज्या व्हडिलांनी चलोवचें हॉटेल न्हय. ती एक ल्हान टपरी, आनी च्या आनी वडी विकून आमचे दीस वेतात. आनी तुजीं व्हडिलां बशिल्लो सोफा, आनी मुखार मांडून हाडिल्ली टिपॉय आनी बगलेचीं कदेलां सगळीं भाड्याचीं शिवाय आमचीं न्हय. हांव काम करूंक धरून एक वर्स मात जालें. पूण अजून तें काम पर्मनेंट जावक ना..."

आयकल्ले परींच आंगार शेळें उदक ओतून घेतिल्लो अणभव जालो पकियाक.

ताच्या तोंडाक बीग पडिल्लें. तो चिंतच्यार पडलो अनी कृतक उतरां ताच्या तोंडांतलीं भायर पडलीं. "बरें.. तुवें सत उचारलेंय.. म्हाकाय ख़ायस जालें... पूण म्हाका चिंतूंक थोडो वेळ जाय..."

चडटीक उलयनासतना तीं दोगांय बाल्कनी थावन कोठरे भितर रिगलीं.

***

दोगांयचीं व्हडिलां हांचीं तोंडां वाचूंक पळयतालीं. रेणूचें तोंड समाधाना पिंतरायतालें तर पकियाच्या तोंडाचेर दर्या.चीं उचांबळ ल्हारां झळकतालीं.

च्या पियेवन जातच शंभून सवाल केलें.

"आतां मुखलें मेट कसलें काडचें? आजूच निघंट[19] करुंया वा थोड्या दिसांनी?"

"थोडे दीस जाय" पकियान तुरंत जाप दिली.

आयकून देवकीचें तोंड बावलें "कांय चेड्याक आपली धूव पसंद जाली ना काय?"

सोयरीं उठून गाडयेर बसतच, पकियाच्या बापायन उलोवंक सुरवात केली.

(पान २८ चेर)

# कावळो

कृ. म. सुखठणकार



कावळो हें सुकणें. कावळ्याचो सुकण्यांचे जातींत आसपाव जाता हें कळपा खातीर आमकां Zoology ईंत BSc करपाची गरज ना. Zoology घेवन BSc केल्ल्या विद्यार्थी कडल्यानूय म्हजी चड अपेक्षा ना. फार्टी करमळे रेल्वे स्टेशनाचेर हांव ट्रेनी खातीर उबों आशिल्लों. नलूक थोडे पापड आनी वोडयो घेवन वतालों. वतना 3 Tier - AC ईंत गेलो आनी येतना 3 Tier - ACईंत आयलों, तुमचे म्हायती खातीर. तर थंय एक तरणाटी कॅमेर्यागन सुकण्यांचे फोटे काडटाली. तिणें फेडेड जिन्स आनी टी शर्ट घाल्लें म्हणटकच सहाजिकूच म्हजे भितर आनीक जाणून घेवपाची उमळशीक शी जाली.

"Hello! This interest in birds is recent one or right from cradle?" - हांव (सुकण्यां मोगी).

"I am a Zoologist- Faded Jeans.

"Oh nice to know that. Though I am not a Zoology student I had interest in white species which is often found in abandoned fields known as बळार. You must be having scientific name for this species. If cooked they taste delicious".

"Stupid! Species like that of yours should be shot at first!" अशें म्हणून फेडेड जिन्स रूळ हुपून पलतडीन गेली. म्हणटकच, म्हजोय सुकण्यां विशींचो मोग कमी जावन 3 Tier - AC डबो खंय लागतलो हाचो सोद हांव घेवपाक लागलों. Zoologyकडेन म्हजो संबंद आयलो तो इतलोच आनी त्या विशया विशीं म्हजें मत व्हडलें शें बरें जालेना. म्हाका फांफडून उडयल्ल्या वरी केल्ल्यान हांवें तो विशय घेतलो ना तें बरें केलें अशें ओगीच म्हाका दिसपाक लागलें.

तर, कावळ्याची वळख जावपा खातीर आमकां Zoology घेवन BSc करपाची गरज ना. कावळ्या कडेन आमची वळख सोयर्यांकडेन वळख जावंचे आदी जाता. तशें पळोवंक गेल्यार चांदोबा बी आमचे जिणेंत न्हिदपाच्या समयार येता.

''खोबरेल तेल डोक्याला पचपचीत थापून सुद्धा बाळाला झोप येत नाही म्हटल्यावर मी चांदोबा चांदोबा भागलास का ट्राय केलं आणी बाळ पटकन झोपी गेलं. चंदामामा is still effective even in modern times." अशें मुंबयकाराले सुनेन म्हाका चवथी कडेन आयिल्ले कडेन सांगलें. तें आयकून म्हाका चंदामामाचें कवतूक दिसलें. भायर वचून ताचेर नदर मारतलो म्हणल्यार त्या दिसा चवथ. ओगीच ताचेर नदर घालून चोरीचो आळ येवपाक नाका म्हूण मोह आवरलो. एक वर्स हेच सुनेचो हळदुव्या रंगाचो परकर (घागरो) ना जालो आनी हांव दुबावीत आरोपी जालों. त्या दिसा सोडिल्लो बाण कितलो वयर गेला हें पळयतना म्हाका चांदोबाचें दर्शन जाल्लें.

''काका म्हाजा पिवळा परकर मिळत नाही तुम्ही बघितला का?''

''अगं हिचा घागरा आसतना मी तुज्या घागर्याच्या वाटेला का जाईन?''- दुबावीत आरोपी.

''तुम्ही कपड्याच्या घडी करतात म्हणून विचारलं बरं का?''

शेवटीं तिचो घागरो सांपडलो आनी म्हजो जीव भांड्यांत पडला. तिचो घागरो हिणें परिधान केल्लो.

''अगं जेवण करताना, जेवण वाडटाना साडी खोवल्यावर मॅचींग घागरा दिसायला नको का?''

अशें म्हणत हिणें विशयाक विराम दिलो. त्या दिसा निरपणसाची मोव कापां लेगीत म्हज्या गळ्या सकयल देंवली ना. तर, कावळ्या कडेन आमची वळख पयलीं जाता. मोव शिताची उणी भरयतना मातोश्री एक उणी चिऊची आनी एक उणी काऊची अशें म्हणत उणी बाबूचे तोंडांत धुकलता. बाबू व्हड जाता तसो ताका उणयो धुकलपाची संवंय जाता. लग्न जातकच एक उणी आनी एक उदका घोंट अशें कॉम्बीनेशन करून तो पोट भरता. तेन्ना तो ती उणी कोणाची हे आयकुपाच्या मनस्थितींत नासता. सोड. रोखडेंच आमकां चिमणेचें घर मेणाचे आनी कावळ्याचें घर शेणाचें आसता ही मोलादीक म्हायती मातोश्री कडल्यान मेळटा. म्हाका तरी ही म्हायती मातोश्री कडल्यानूच मेळिल्ली. म्हज्या पिताश्रीक असल्या गजालिनी कसलोच इंट्रेस्ट नाशिल्लो. हांवें हे संबंदीन आईक विचारलें.

''आरे कावळ्यान शेणाचें तरी घर बांदलें आमकां तेंय जमलें ना. जाण्टेल्यांनी घर बांदून दवरलें ताचे नळे आमकां परतुपाक जायना. माकडानी फोडिल्ले नळे घालपाक जमना. कावळ्यान शेणाचें घर बांदलें. आमी शेण खालें! तुजो बापूय कामण्याक घेवन पोरसांत तारवट्यो मिरसांगो खुंटपाक गेल्लो. कितल्यो मिरसांगो खुंटल्यो त्यो पळय.''

आई कडल्यान फावो तें इन्फॉर्मेसांव म्हाका मेळ्ळें ना.

आमकां आमची मातोश्री एक घास चिऊचा आनी एक घास काऊचा अशें सांगून भरयताली हें म्हाका याद आसा. खूब वर्सांनी म्हणजे चिऊचे आनी काऊचे घास घेवपाचे बंद जातकच ही घास भरोवपाची पद्धत हे मातयेंतली काय कितें हें जाणून घेवपाची उमळशीक शी जाली. म्हजें अशेंच जाता. सगळें जातकच म्हजे भितर उमळशीक तयार जाता. तीन भुरगीं जातकच म्हजे भितर कुटुंब नियोजना विशीं जाणून घेवपाची इत्सा उत्पन्न जाली. मागीर बेतके पोरणे फेणयेचो शिसो घेवपाक गेल्ले कडेन हांवें बेतकी

भलायकी केंद्राक भेट दिली. थंय आशिल्ल्या दोतोरा कडल्यान हांवें कशें कुटुंब नियोजन करून फामिल सुटसुटीत दवरूंक येताली हें जाणून घेतलें. ताणें म्हजी उमेद पळोवन म्हाका मलेरियाचेर आनी हत्ती रोगाचेरूय म्हायती दिली. तर, कावळ्या विशीं आनीक चड म्हायती जाणून घेवपा खातीर हांवें भाशा तज्ञ पांडुरंग रामराय सावंत (खालचा वाडा तारी जवळ) हांची भेट घेतली.

**हांवः** नमस्कार पांडुरंग बाब. तुमी गोंयचे फामाद भाशा तंज्ञ. एक उणी चिऊची एक उणी काऊची अशें म्हणून भुरग्यांक भरोवपाची पद्धत गोंयां केन्नाच्यान सुरू जाली? तुमचो अभ्यास कितें सांगता? आनी कावळ्याचें घर शेणाचें म्हणटात तें प्रकरण कितें? ह्या दोनीय गजालींचेर तुमी उजवाड घालचो.

**पांडुरंग बाबः** पयली गजाल, आमी आमचे मायभाशेंत कावळ्याक काऊ म्हणटात काय काको? म्हणजे भुरग्या कडेन उलयतना म्हणटा तो.

**हांवः** काको. म्हाका सामकी याद आसा कारण हांव णव धा वर्सांचो जालो तरीय चेड्डी घाली नासतना घरांत भोंवतालों. तेन्ना म्हजी आजी 'आरे बेताळ कसो भोंवता कितें तुजी नोनी काको व्हरतलो' अशें आड्डताली. मागीर हांव काक्याच्या भंयान चेड्डी घालतालों. तो काक्याचो भंय आज लेगीत म्हज्या मनांत आसा.

**पांडुरंग बाबः** काक्यान तुजें चेड्डेचें प्रकरण जाग्यार घालें तें एक बरें जालें. ताचो उल्लेख आमचे लोक काणयेंत ना ऱ्हें ऱ्हें ऱ्हें ऱ्हेंऽऽऽ. हाचो अर्थ एक घास चिऊचा एक घास काऊचा ही उणी भरोवपाची पद्धत हे मातयेंतली न्हय. आतां त्या कावळ्यान शेणाचें घर बांदलें आनी तें व्हांवन गेलें अशें म्हणटा मरे तूं? कितें पावस पडटा न्ही रे? नुस्त्या बाजारांत शुकशुकाट मरे. पाट्यार भोपशे मेळ्ळे ते घेवन आयलों.... आगे सुक्यांत आंबाडो घालपाक विसरूं नाका आंऽ (रांदचे कुडी वटेन तोंड करून).

**हांवः** पांडुरंग बाब आमी काणयेंतल्या पावसा विशीं उलयताले न्हय?

**पांडुरंग बाबः** आरे आमी केन्ना घरां बांदपाक शिकल्या? विसावो शेकडो सोंपतां सोंपतां आमचे क्रिस्तांव भाव आखाताक वचून आयले. येवन तांणी सुवात घेवन सोबीत घरां बांदलीं. तांचें पळोवन आमी शिकले. जें बांयंतूच ना जाल्यार कळश्यांत खंयचें येतलें?

**हांवः** निवळांतूच ना जाल्यार खाडाक कशें लागतलें?

**पांडुरंग बाबः** व्वा! असो येत रावत जाल्यार तूंय भाशातज्ञ जातलो आं! आमच्या पोटार आड येतलो दिसता ऱ्हें ऱ्हें ऱ्हें ऱ्हेंऽऽऽऽ. आगे भोपश्यांतल्यो सादारण खरचाण्यो आसात त्यो हुमणांत उडय, मातसो सुवाद आयल्यार पुरो. आनी कितें करतलीं? (रांदचे कुडी वटेन तोंड करून).

**हांवः** बरोबर तुमचें!

**पांडुरंग बाबः** कितें खरचाण्यो हुमणांत उडय म्हणटा तें मरे? कावळ्याची नदर भोपश्यार ऱ्हें ऱ्हें ऱ्हें ऱ्हेंऽऽऽऽ.

**हांवः** ना ना ना हांव म्हणटालों आमीच घरां बांदली नात जाल्यार आमचो काको कसो बांदतलो?

**पांडुरंग बाबः** बरोबर! आतां तुवें बरोवं येता चिमणेचो फ्लॅट आशिल्लो ग्रावंड फ्लोरार आनी काक्याचो आशिल्लो टेर्रास फ्लॅट. तो पावसान लीक जावपाक लागलो ऱ्हें ऱ्हें ऱ्हें ऱ्हेंऽऽऽऽ. काळा प्रमाण ओपारी, काणयो बी बदलपाक जाय. आतां आमचे मातयेंतल्यो म्हणी पळय. कावळ्यान हागऽ नाशिल्लें झाड ना, सुण्यान मुतूं नाशिल्लो खूंट ना. आतां म्हाका सांग आज कावळ्यांक हागपा खातीर आमी झाडां दवरल्यां? आनी खूंट मारून आज कोण वंयों बांदता? सगळे कडेन शिमिटाचीं कंपांवडां जालीं मरे.

**हांवः** तुमी कितें सांगूंक सोदतात?

**पांडुरंग बाबः** आमी आयचे पिळगेक समजता तश्यो ह्यो म्हणी मुदार करपाक जाय. जशी कावळ्यान हागऽ नाशिल्ली कला अकादेमी कडेन गाडी ना, सुण्यान मुतूं नाशिल्लो स्ट्रीट लायटीचो खांबो ना ऱ्हें ऱ्हें ऱ्हें ऱ्हेंऽऽऽऽ.

**हांवः** कावळा हा हुशार आणी वस्ताद पक्षी आहे अशें 'कावळा' ह्या धड्यांत व्यंकटेश माडगुलकर हांणी म्हणलां. हो धडो आमकां चवथेक आशिल्लो म्हाका अजून याद आसा.

**पांडुरंग बाबः** हें सांगपाक व्यंकटेश कित्याक जाय? आरे आमच्या फाटल्या पोर्सांत माकड आयल्या बराबर कावळे पयलीं आरड मारतात. हांव रोखडोच स्टँडर्ड माराण आनी फस्क घेवन आंगणांत धांव मारतां. इतल्या हुशार कावळ्यांक आमच्या जाण्टेल्यांनी गू खावपाकूच दवरले.

**हांवः** अशें कित्याक म्हणटात तुमी?

**पांडुरंग बाबः** कावळ्या वयल्यो आमच्यो म्हणी काड आनी पळय. णव्वद प्रतिशें गुवाचेर! कावळ्या वयले वाक्य प्रचार काडून पळय, गुवाचेर! आतां म्हाका सांग, कावळ्यान गू उश्टावच्या पयलीं हांव घरांतल्यान भायर सरलों अशें म्हणपाची कसली गरज? सुर्याचीं किरणां आंगणांत पडचे आदीं हांव घरांतल्यान भायर सरलों म्हणू नजो? कावळ्याक रे बाबड्याक कित्याक गू खावपाक लायतात!

**हांवः** कोंब्यान साद घालच्या आदीं घरांतल्यान भायर पडलों अशेंय म्हणू येतालें.

**पांडुरंग बाबः** हें चड सकाळीं जालें. इतले सकाळीं आमगेले जाण्टेले उठ्ठाले अशें म्हाका दिसना. गांडीत ना गू कावळ्याक आमंत्रण हें कितें रे नाका जाल्लें! आतां देश हागणदारी मुक्त जालो मरे म्हणटकच ह्यो सगल्यो म्हणी काळा भायल्यो जाल्यो.

**हांवः** बरोब्बर! पांडुरंग बाब तुमचो हाचेर अभ्यास बरो आसा आं!

**पांडुरंग बाबः** कित्याचेर? हागणदारीचेर?

**हांवः** ओवर ऑल.

**पांडुरंग बाबः** संतानी लेगीत बाबड्याक सोडलो ना. तुकोबा तातूंत इल्लो चड.

**हांवः** कोणाक सोडलो ना म्हणटात तुमी?

**पांडुरंग बाबः** कावळ्याक आनीक कोणाक? तुकाराम बुवा

कावळ्या फाटल्यान हात धुवन लागिल्लो. प्रिती पोसिले काउळे जाऊनि विष्ठेवरी लोळे अशें तांणीच म्हणलां. फकत माऊलीन कावळ्याच्या पांयांक भांगराचे वेळे घाले, दही भाताची उणी लायली आनी पिवपाक वाटीभर दूद दिलें. जावं शिवराक जाल्यार शिवराक पुणून ताच्या पोटाक कितें तरी घालें नाजाल्यार ते उश्ट्या हातान कावळो आमुडपी?

**हांव:** ते म्हणल्यार?

**पांडुरंग बाब:** श्री गणराय नर्तन करी आम्ही पुण्याचे बामण हरी. आळंदी पुण्यातूंच आयलें न्ही रे? पुणे नगरपालिकेचो एक भाग तो.

**हांव:** म्हणटकच आमच्या काक्यान केन्नाच शेणाचें घर बांदलें ना असो निश्कर्श आमी काडूं येता सारकें?

**पांडुरंग बाब:** सारकें. आनीक एक गजाल, आमच्यो जमनी शेणाच्यो आशिल्ल्यो तेन्ना आमकां शेण एकठांय करपाक गांवार भोंवचें पडटालें मरे. आमकांच जमीन सारोवपाक शेण मेळऽ नाशिल्लें तें कावळ्याक घर बांदपाक शेण खंय मेळटलें? आरे, शेजारच्या राज्यांत एक गाय धा कील शेण दिसाक दितात. आमी पाडव्या कडेन गोठो करतात आनी काट्टांक व्हीर लावन गोरवां करतात. वर्स भर आमचीं गोरवां रस्ताद भोंवतात.

**हांव:** ते पोळा ही परब व्हडा दबाज्यान मनयातात.

**पांडुरंग बाब:** तो बैला प्रती कृतज्ञता व्यक्त करणारा एक मराठी सण असून भव्य पातळी वर साजरा केला जातो. आला आला शेतकऱ्या, पोयाचा रे सन मोठा, हातीं घेईसन वाट्या, आतां शेंदूराले घोटा, आता बांधा रे तोरनं, सजवा रे घरदार अशें बहिणा बाईन म्हणलां. शिंगे रंगविली बाशिंगे बांधली चढविल्या झुली ऐनदार अशें कवी यशवंत हांणी म्हणलां.

''पुरो पुरो न्हावपाक वचा आतां! हांव हांगा बैला वरी काडावडी काडटां त्यो दिसना. आतां न्हावपाक वचात!'' रांदचे कुडींतल्यान आकाशवाणी जाली तशे पांडुरंग बाब उठले.

**पांडुरंग बाब:** हांव काकऽस्नान करपाक वतां ह्हें ह्हें ह्हें ह्हेंऽऽऽऽ पोटांत कावळे रडपाक लागले.

पांडुरंग बाबाचो निरोप घेवन हांव घरा आयलों. तरी कावळ्यान म्हजी फाट सोडली ना. इतल्या हुशार कावळ्याची संतानी लेगीत धजा उडयल्या हाचें म्हजे मनाक खूब लागलें. तसो हांव सामको सेन्सिटिव्ह मनीस तुमचे म्हायती खातीर. कावळ्याच्या गळा मुक्ताफळमाळा तरी काय त्याला भूषण शोभे अशें तुकोबान म्हणचें? एका कवीन तर अती केलां. तो म्हणटा कावळ्यान बगळ्याक पळोवन एका पयशाचो शाबू हाडलो. तो लावन कूड तळ्यार घांशीत बसलो. आनी निमणो रगत वचून मेलो. घाशिले अंग बहु बळें रक्त त्यामुळें वाहुं लागले घाबरा झाला बापुडा शेवटीं मेला. आयदनांतल्या उदकाची पातळी फातर उडोवन वाडोवपी कावळो गोरो जावंचो म्हूण शाबू लावन आंग घांसतलो अशें कोणाक खरें दिसत? चडान चड तो घरांतल्यान फेर एण्ड लव्हली ची ट्यूब व्हरून तो ट्राय करत. आज पेल्यांत वा बाटलेंत स्ट्रॉ घालून पियेवपाक कावळो फाटीं फुडें पळोवंचो ना हाची खात्री म्हाका तरी आसा.

आमगेर मे म्हयन्यांत मुंबयकारां येतात. म्हजो बापोल भाव (बोरिवली चो ) आनी हांव बराबरचे. आंगणांत हांव आनी तो बिस्कूत घेवन उबे आसल्यार कावळो म्हज्या हातांतली बिस्कूत घेवन वतालो. वतना तो म्हज्या ताळवार चोंच मारपाक विसर नाशिल्लो. हें तो अशें कित्याक करता? बोरिवलीकाराच्या हातांतले बिस्कुतेक तो कित्याक हात लायना हें कावळ्याक विचारप शक्य नाशिल्लें म्हणटकच हांवें बोरिवलीकाराकूच विचारलें.

''मी शिवसैनीक आहे हे बहुदा त्याला ठाऊक असावे'' ताणें जाप दिली.

''इकडे भाऊसाहेबाचं राज्य आहे हे त्याला ठाऊक नसावं'' अशें म्हणून हांवें ताळुंतल्यान रगत बी येता काय हें सांसपून पळयलें. झूठ बोले कौआ काटे काले कौए से डरियो अशें आनंद बक्षीन म्हणलां खरें पुणून फट उलयता ताका कावळो चोंचांवक लागलो जाल्यार आमकां कावळे कमी पडटले. कावळे चोंचायनात पुणून ते आफुडटात, तेय बी बायलांक हें हांवें पळयलां म्हणजे आयकलां. ओगीच फट कित्याक उलोंवं! हांगाच कावळ्यांनी बायलांक आफुडटां आफुडटां म्हाका चिंतपाक शिकयलो. कावळो Gender biased अशें म्हाका ते सान पिरायेचेर लेगीत जाणवलें. कावळो बायलांक सोडून काडून आफुडटा हाचें म्हाका अजाप आनी दुख्ख जातालें. म्हाका आफुडलेलो जाल्यार म्हाका तीन दीस घरा रावपाक मेळटलें आशिल्लें हें चिंतून म्हाका पिकासांव जातालें. आजोळा सऽ मावश्यो. तातूंतली एक तरी मावशी कावळो आफुडला हें निमित्त करून घरा बशिल्ली आसताली. म्हणटकच कावळ्यान म्हाकाय आफुडचें अशें म्हाका दिसतालें. खंयचे मावशेक कावळो आफुडला हें म्हजे लक्षांत उरऽ नाशिल्ल्या कारणान हांव तिका आफुडटालों आनी म्हाका कपडे काडचे पडटाले. दोन तीन खेंपें कपडे काडचे पडटकच वाजेवन वयर सांगलां तशें हांव बेताळ कसो भोंवतालों. ती म्हाका मागीर संवंय जाली आनी घरा येतकच हांव तसोच भोंवपाक लागलों. कावळो खंयचेय बायलेक आफुडना हें हांवें नोट केल्लें. तो आजी आसासर तिका बाबडेक आफुडलो ना. आजी बेजार जावन आरे चेड्डी घाल नाजाल्यार काको नोनी व्हरतलो अशी आड्डताली. कावळो आफुडल्यार कपडे काड, कपडे काडल्यार कावळो नोनी व्हरता अशे विचित्र परिस्थितीचेर हांव विचार करपाक लागलों. हांगाच विचारवंत जावपाचे दिकेन म्हजी वाटचाल सुरू जाली.

कावळ्यान म्हाका न्यायाच्या वटेन उबो रावपाक शिकयलें. थोडे कुच्छित्री हें वाचून हांसतले हें हांव जाणा म्हणून सांगचें पडटा. म्हाका व्हडपण नाका. रेखा भुजंगराव हुबळीकर म्हयन्यांतल्यान कमीच कमी एकदां तरी कावळा शिवला अशें जोशी टिचरीक सांगून घरा वतालें. स्कॉलर मुलानांच कावळा शिवतो वाटतं अशें म्हणून आमी ओगी बसताले. एक दीस इण्टरवालाक आंबाड्याच्या मेलाक लावन चपाती खातना कावळ्यान म्हज्या हातांतली चपाती

झोपय मारून व्हेली पुणून वतना ताळवेर चोंच मारपाक विसरलो ना. हांवें आनी वेळ केलो ना सोमतोय दत्ताक घेवन फादर थॉमसाच्या केबिनांत गेलों. कारण कावळो म्हाका आफुडला हें दत्तान प्रत्यक्ष पळयलें.

"Father I am going home crow has just touched my head''.

"So what?''

"Means what? Rekha Bhujangrao Hublikar Std VIII B goes home every month on 18th saying that crow touched her!-" दत्ता.

"Just because crow has touched me on 28 I cannot go home? I will go home and sit in the corner with तांबयो!'' म्हजो आवाज चडलो. अन्याय सोंसून घेवप ना ही कीट कावळ्याक लागून म्हजे भितर पेटली हें आतां सगळे जाण मान्य करतले. म्हाका घरा वचून तांबयो घेवन कोनश्याक बसपाक मेळ्ळें ना ही गजाल वेगळी.

पयलीं सोयरे येतले म्हूण कावळो रकाद घेवन येतालो आनी दारार बसून तो सांगतालो. कावळो दारार बसून रडल्यार आई एक पेलो शिताक चड काडटाली. ज्यूस्त बारांक भाऊ (खांडेपारचो) भितर सरतालो. लग्ना उपरांत कावळो रडटकच 'आई येता रे' अशी ही विचारपाक लागली. हांवें मागीर माराणाच्यो फोगेटी मेकळ्यो करून दवरल्यो. कावळो दिसल्या बराबर त्यो पेटोवन पोर्सांत उडोवपाक लागलों. कावळ्यान रकाद दी नासतना पसून हिची आवय दारांत प्रकट जावपाक लागतकच हांवें फोगेट्यो लावपाच्यो बंद केल्यो. आतां व्हॉट्सएप सुरू जाल्ल्याक विचारूं नाका! Arriving by 9.30 Devta bus. Send zavai bapu on turn to pick up my bag. असो मोबायल रकाद दिवपाक लागलो. (On turn म्हणजे व्हॉल्तार). आज आमच्या विभक्त कुटुंब वेवस्थेक आनी बंद दारांच्या फ्लॅटांक लागून कावळो दारांत रडपाचो बंद जाला. इमारती सामकार रडल्यार लेगीत सोयरो कोणागेर येतलो हाचो अदमास लावप कठीण. विश्ठा खावपी म्हूण आमी कावळ्याक हिंडसायतात त्याच कावळ्यान पिंडाक चोंच लायल्या बगर आमकां जेवपाक मेळना. बाबुली भटा सारको जाका दनपारां गोडे मुता खातीर गुळी घेवंची आसता तो दर्भाचो कावळो करता आनी पिंडाक लायता. त्या मानान बापायन आमकां चड सतायले ना. कावळो मातसो चोंच लावपाक फाटीं फुडें जाल्यार आईन जनेलांतल्यान ''झक मारा तुमी! आमी बसतात पानार!'' म्हणल्या बराबर कावळो रोखडोच पापडाक चोंच मारता. आमी कोळश्यार पापड भाजून खोबरेल तेलाची धार सोडटात तुमचे म्हायती खातीर.

कावळ्याचें खाशेलेंपण म्हणल्यार ताचें 'मैथून' चडशें कोणाक दिश्टी पडना. समजा दिश्टी पडलेंच जाल्यार तो मनीस सऽ म्हयन्यां भितर मरता अशें हांवें हालींच खंय तरी वाचलें. तेन्नाच्यान दोन कावळे एकठांय विजेचे तारीर बशिल्ले दिसत जाल्यार हांव म्हजी मान दुसरे दिकेन घुंवडायतां. आज आमचेंच पळोवपाक आमकां वेळ ना कावळ्याचेर आनी कोण नदर दवरतलो! ह्याच लेखान हांवें कावळो दिर्घायुशी अशें वाचलें. रायबंदरा चड शी वीज नासताच हें आमकां आनी कावळ्यांक बेस बरें खबर आसा. पुणून केन्नाय चुकून वीज येता आनी हाय टेन्शन वायरीचेर झोकें घेवपी कावळे शॉक लागून मरतात.

कावळो हें सुशिक्षीत सुकणें. तांची शाळा भरता. तांकां आपल्या शिक्षणाचो आनी बुद्धीचो भयंकर गर्व. चिंव चिंव चिमणी चिमुरडी आहेस अगदी भिकारडी अशें म्हणून तो चिमणेक हिंडसायता. घारे घारे उंच उडतेस आकाशी, शर्यत लावते का माझ्याशी अशें म्हणून तो घारीक चॅलेंज दिता. असो हो कावळो म्हाका खूब भावता. ह्या कावळ्या कडेन म्हजी पोरणी इश्टागत. नलूचें लग्न जावन तें मुंबय वतकच म्हाका कांय तेंप घर खांवक येतालें. हांव म्हज्या फ्रेण्डली कावळ्या कडेन नलूची खबर घेतालों.

''आरे मुंबय पाविल्लो? नलू मेळिल्लें?''
''हय तर! तुजी खबर घेतालें.
कावळ्या तूं गोंयां गेलेलो रे?
मगेलो भावोजी दिकिलो वे?
आजी फाय येतलो म्हण्तालो वे?''
कावळो मदांद म्हणटात तें खरें!

संपर्क : 9850530756

(पान २४ वयल्यान)

''चेडूं पळोवंक बरें दिसता, शिकपी आनी समजणेचें...''

''आनी सत्ती...'' पकियान जाप दिली

''तर आतां तूं कितें चिंतून आसाय?'' शंभुकाकान पकियाक सवाल केलें. ''हांव इतलेंच चिंतून आसां, काराचें भाडें कितलें? आनी हांवें ही नकली ओपाची चेन आनी घड्याळ बांदची गरज आसली गी? ही नासतना कितें म्हजी सोयरीक घट जाती ना?''

***

चेड्या गेलीं सोयरीं वेतच रेणून आवयक सत सांगलें आनी आयकून देवकीन दुखान सवाल केलें ''पूण तुज्या गळ्यार आसची चेन, कानाचें, नाकाचें तशेंच हाताचीं कांकणां सगळीं भांगाराचीं पुता.. कित्याक फट मारलीय?''

''व्हय मांय, ही चेन, कांकणां, नाकाच्यो सर्व वस्तू नकली न्हय बगर असली. म्हाका पारखूंक जाय आसलें ताचें काळीज... असली वा ओपाचें..''

संपर्क: ७०२१९६७८८०

संदर्भ : १) काकूस- संडास, कुमांव, २) येदोळूच- आर्दीच, ३) केलशी - म्हालो, केंस कातरपी, ४) बरगल- दुकळ, दुश्काळ, ५) निमतीं- निमीत, हाका लागून, ६) बेळें- पिकावळ, रोंप, ७) मुडला- उदैत, ८) पडला-अस्तम, अस्तंत, ९) मेट - पावल, पांवडो, कदम, १०) आळ - कामेली, वावराडी, कामींक, ११) तोट- मळो, होर्त, बाग, पोरसूं, १२) आयलेवार- आजकाल, हालीं, अर्विल्ल्या दिसांनी, सध्या, १३) पायनेल- पवित्र/म्हान मनशांची चित्रां/पिंतुरां, १४) वांवट- कश्ट, त्रास, पोट तिडक वावर, १५) चडटीक - चड, हिसपा भायर, १६) प्रेतन - यत्न, प्रयत्न, १७) ओप - भांगराची लेप, १८) खायस - पसंद, आवड, रुची, १९) निघंट - थारावीक.

******

# कर्णपर्व : जनमानसांत रुजिल्ले समजणेक छेद दिवपी नाटक

परिक्षण

भौ. उदय भेंब्रे हें नांव खबर नाशिल्लो • एकलोय गोंयकार मेळचो ना. गोंय सुटके उपरांत गोंय वाटावपा खातीर जितल्योय चळवळी जाल्यो, तातूत सगळ्यांत आघाडीचेर आशिल्लें नांव म्हणल्यार उदय भेंब्रे. ओपिनीय पोल, कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यताय, राजभास आंदोलन, घटक राज्य तें आताचें माध्यम आंदोलन हातूंतलो उदयबाबांचो मोलादीक वांटो कोणाच्यानच आडनदर करूंक नज.

आयज पिरायेच्या ८०व्या वर्साच्या हुंबऱ्यार आशिल्लो उदयबाब तरणाट्यांक लेगीत तोंडांत बोट घालपाक लावपी उमेद आनी उर्जा पळयतगच ह्या मनश्यान फ़कत आनी फ़कत आपल्या मायभाशेक कोंकणीक आनी आपली मांयभूंय गोंयांक उंच तेंगशेर पावोवपा खातीरूच जल्म घेतला अशें म्हज्या सारक्या गोंयकाराक आनी कोंकणी मोग्याक दिसलें शिवाय रावना. आयज उदयबाब म्हणल्यार कोंकणी अशें समिकरण जालां.




खरेपणी उदयबाब हे एक संवेदनशील व्यक्तीमत्व. तांकां कला आनी साहित्याची आवड. सहाजीकच तांचे पयलें वयले लिखाण म्हणल्यार कविता. पिरायेच्या सतराव्या वर्सा स्वातंत्र्याचेर बरयिल्ली. उपरांत ते १९५७ वर्सा मुंबय शिकपाक गेले तेन्ना तांचो संबद मुंबयंत चलतल्या महाविद्यालयीन कोंकणी वाङमय मंडळा कडेन आयलो. आनी थंयच तांच्या साहित्य निर्मणेक चंवर आयलो म्हणल्यार अतीताय जावची ना. मुंबय आकाशवाणीचेर स्टाफ़ आर्टिस्ट म्हण काम करतना किरिस्तांव आनी हिंदू ह्या दोनय समाजांक भावतलीं अशी भावगितां तांचे कडल्यान बरोवन जालीं. आनी ताचोच परिणाम म्हणल्यार 'चान्याचे रातीं' सारकेलीं गीतां जाका आयज लोकगिताचो दर्जो मेळ्ळा.

ह्या चळवळींच्या झंझाळांत उदयबाबान एक उत्कृश्ट कवी, गितकार, स्तंभलेखनकार, निबंदकार आनी नाटकार म्हूण कोंकणीच्या साहित्य मळार नामना मेळयल्या. वेळांत वेळ काडून म्हणटात तशें तांणी कांय पुस्तकांय उजवाडाक हाडल्यात. तातूंत 'ब्रम्हास्त्र' (राष्ट्रमत दिसाळ्यांत 'ब्रम्हास्त्र' ह्या सदराखाला बरयिल्ले मराठी लेख), 'चान्याच्या रातीं' (कविता आनी गितां), 'अस्मितायेचो कसाय' आनी 'प्रतिक्रियेचें किरायतें' (लेख) हीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यात.

२०१५ चो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबिल्लें तांचें 'कर्णपर्व' हें नाटक १९६० वर्सा तांच्या मुंबयच्या राबित्यांत बरोवन जाल्लें. 'फ़ांशे पडले उरफ़ाटे' ह्या माथाळ्या खाला तें मुंबय आकाशवाणीचेर नभोनाट्याच्या रुपान वितरायिल्लें. वीस मिनटांचो एक भाग अशे तीन भागांनी तें वितरायिल्लें. ह्या लघुनाट्याचे विस्तारीत रूप म्हणल्यार 'कर्णपर्व' हें नाटक. उपरांत गोंयांत जावपी कला अकादमीच्या कोंकणी नाट्य सर्ती खातीरच्या संहिते खातीर ह्या नाटकांत 'कृष्ण शिश्टाय' ह्या प्रवेशाची भर घाली. कुळागर प्रकाशनाच्या 'ऋतू' ह्या कविते खातीर आशिल्ल्या नेमाळ्यांत तें उजवाडाक आयिल्लें. एन. शिवदास हांच्या संपादना खाला उदयबाबाचेर काडिल्ल्या खाशेल्या 'उर्बा' ह्या अंकांतय तें उजवाडाक आयलां. तशेंच व्ही.एम. साळगांवकार प्रतिशठानान काडिल्ल्या 'तीन दसकां' ह्या पुस्तकांतय ताचो आसपाव जाला. २०१३ वर्साच्या आक्टोबर म्हयन्यांत संजना पब्लिकेशन्स, सांगें हांणी तें पुस्तक रुपान उजवाडाक हाडलें. संहिता बरोवन पन्नास वर्सां जाल्या उपरांत ही कलाकृती पुस्तक रुपान उजवाडाक आयल्या हें विशेश.

इतिहास संशोधक सांगतात ते प्रमाण व्यास महर्षीन रचिल्लें महाभारत ८८०० शिळोकाचें आसलें. तेन्ना ताचें नांव आसलें 'जय नांवाचो इतिहास' (जयो नामोतिहासोऽयम) तेंच खरें महाभारत अशें म्हणटात. महाभारत खऱ्यांनीच घडलें? काय ती महर्षी व्यासाचे प्रतिभेची निर्मणी? महाभारतांतलीं पात्रां खऱ्यांनींच अस्तित्वांत आशिल्लीं? हो प्रस्न आयज खंयचीय गजाल विज्ञानीक कसाक लावन पळोवपी विचारवंतांक पडला.

पुराय महाभारतांतले प्रसंग, तांतलीं पात्रां, वर, शाप हांचेर दर एकल्या मनश्याचें एक आपलें मत आसूं येता . एका मता आड दुसरें मत तितल्याच खरपणांन उबें रावं येता. देखीक, कर्ण हें व्यक्तीमत्व घेवं येता. तो कुंतीचो पयलो पूत धरून तो तिचो पूत न्हयच इतलो वाद घालूंक येता.

कर्ण हें महाभारतांतलें एक म्हत्वाचें आनी गूढ व्यक्तिमत्व. महाभारतांतल्या कर्ण ह्या व्यक्तिरेखेचेर विंगड-विंगड भारतीय भासांनीं इतलें बरोवन जालां तरी पूण आयच्या लेखकांक तो आयजूय आकर्शीत करता. आयजूय कर्ण हो विशय नवो ताळ्ळ दिसता. महाभारताचो खोलायेन अभ्यास करतगच कर्णाच्या व्यक्तीमत्वाचीं विंगड-विंगड तासां आमचे मुखार खवदळ घालतात, आमकां आव्हानां दितात

अशे तरेचें आव्हान कोंकणींतले एक संवेदनशील लेखक

आनी अभ्यासक भो. उदयबाब भेंब्रे हांकां पडलें म्हण नवल ना. ह्याच उदयबाबाच्या चिकित्सक नदेरेंतल्यान 'कर्णपर्व' हें नाटक जल्माक आयलें.

'कर्णपर्व' नाटकाच्या प्रस्तावनेंत उदयबाब म्हणटात राम आनी कृष्ण हे गूण-दोश आशिल्ले हाडा-मासाचे मनीस. तांकां देव वा देवाचे अवतार करून उडोवन आमी भारतीय संस्कृतीचेंच लुकसाण केलां. तांकां मनिसूच मानिल्ले जाल्यार तांचे गूण दोश न्हय -आदर्श म्हूणन ते आयच्या पिळग्यां मुखार उरतले आसले. पूण तांकां आमी देव वा देवाचे अवतार केले. तांचे दोशांचें आनी चुकांचेंय समर्थन करपाचो यत्न जालो आनी तसल्या यत्नाक लागून दोनूय महाकाव्यां अदिक विकृत जावन पडलीं, दैवी चमत्कार भितर सरले आनी तातूंत वर्णिल्ली जीण मनीस जिणे पसून पयस गेली. राम, कृष्ण, हनुमान हे सगळे आमकां पयसावले. कांय साहित्यकार, कांय नाटककार, कांय फ़िल्म निर्माते हांणी अंतर अदीक वाडयलें. अज्ञानाक सारें-उदक घालें, गैरसमजणेक आळें काडून सावळ घाली.

हें विकृतीचें चक्र आतां उरफ़ाटें घुंवडावपाची गरज आसा. भरस आनी विकृती कडेक काडून मुखेल कथानकाचो आनी मुखेल पात्रांचो इतिहासीक अर्थ लावपाची गरज आसा. तसो एक यत्न ह्या नाटकांत केला. कर्णाच्या जल्माचें एक कुवाडें आसा. ते विशीं परंपरेन एक काणी चलत आयल्या. एका मंत्रान भुरगें जल्माक येता वा सुर्या पसून खंयचेय बायलेगेर भुरगें जाता हें आयच्या विज्ञान युगांत पटपा सारकें बुद्दीक ना. म्हणटकीर कितेंय वेगळें घडलां आसूंक जाय.

महाभारताचे अठरा पर्वां मदल्या एका पर्वाचें नांव 'कर्णपर्व' अशें आसा. पूण ह्या नाटकाक 'कर्णपर्व' हें नांव लेखकान दिलां ताचें कारण कृष्ण झूज टाळपाक जे व्यक्तीक साधन म्हूण वापरूंक सोदता ती व्यक्ती म्हळ्यार कर्ण. ह्या नाटकाची काणी ताच्या संबंदांत आसा आनी ताचेच भोंवतणी घुंवता. त्या खातीर 'कर्णपर्व' हें नांव जें ह्या नाटकाक दवरलां तें पुराय तरेन सार्थ थारता.

ह्या नाटकाचे पांच अध्याय आसात. महाभारतांत जे कितें घडटा तें ह्या नाटकाच्या चार अध्यायांनी आनी पांचव्या अध्यायाच्या आरंभाक लेखक़ आमकां सांगता. लेखक आमकां वेगळें सांगता तें पांचव्या अध्यायाचे अखेरेक. ही लेखकाक सुचिल्ली कल्पना. लेखक आपल्या मनोगतांत सांगता कीं आपल्या ह्या मताक आदार मेळपा सारको मुद्दो आपल्याक खंयच्याय ग्रंथांत मेळूंक ना, देखून ती कल्पनाच.

ह्या नाटकाचो सारासार अभ्यास केल्यार आमकां दिसून येता की ह्या नाटकांत महाभारतांतल्या एका म्हत्वाच्या पर्वांतलो संघर्श दिश्टी पडटा. तातूंत राजकीय, सांस्कृतीक, सामाजीक, कुटुंबीक, भावनीक आनी मानसीक संघर्शाचीं विंगड-विंगड तासां आमकां दिश्टी पडटात. लेखकान ह्या प्रसंगांतल्यो साबार म्हत्वाच्यो व्यक्तीरेखा जशे परी धृतराष्ट्र, गांधारी, भिष्म, गुरू द्रोणाचार्य, दुर्योधन, दु:शासन, शकुनीमामा, कृष्ण आनी ह्या नाटकांतलें मुखेल पात्र कर्ण हांच्यो व्यक्तीरेखा तटस्थतायेन उब्यो केल्यात.

ह्या नाटकांतलीं मुखेल पात्रां जशे परी कर्ण आनी कृष्ण हांच्यो व्यक्तीरेखा तांच्या सबाव गुणा सयत आमच्या मुखार येतात. कृष्णाक कौरव -पांडव युध्द नाका आसता. युद्धांत कोणय जिखलो जाल्यारूय मनीस जातीचो जो संहार जाता तो जाणा जावन हें युद्ध जावंचें न्हय म्हण कुटनितीक फ़ामाद आशिल्लो कृष्ण ते खातीर कर्णाक मुखार काडून हें युद्ध थांबोवंक सोदता. ताका खबर आसता की क़र्णान आपली सगळी निश्टा दूर्योधनाक आनी पर्यायान कौरवांक ओंपल्या. कर्णाक पांडवां वटेन ओडल्यार हें युद्ध जावंचें ना. ते खातीर कुंती ताची आवय आनी म्हुणून त्या नात्यान पांडव ताचे भाव हें कर्णाक खबर नाशिल्लें गुपीत कृष्ण ताच्या सामकार हाडटा आनी आयज मेरेन चलत आयिल्ल्या समजणेक म्हणल्यार कर्ण हो सुर्या पसून जाल्लो सूर्यपुत्र हाका शेवटाक छेद दिता. हांगा लेखक कृष्णाची राजकीय कुटनीती मोठ्या कुशळतायेन आमच्या मुखार हाडटा.

पूण कर्ण तें मानून घेना. कर्ण हो आपलो पूत अशें कुंतीन सांगून लेगीत तो आपल्या इश्टागतीच्या नात्याक चड दिता. शेवटाक ताच्या रथाचे चाक मातयेंत मुंगरता तेन्ना कृष्णच अर्जुनाक बाण मारपाक सांगता. ह्या नाटकाचें नांव जरी 'कर्णपर्व' आसलें तरी नाटकाचो खरो कृष्णच सुत्रधार.

स. रमेशबाब वेळुस्कार हांकां दिल्ल्या एके मुलाखतींत ह्या नाटकाचेर उलयतना उदयबाब म्हण्टात नाटक बरयल्लीं तेन्ना नाटकाच्या तंत्राचो आपणे फावो तसो अभ्यास करूंक नासलो. तो केल्लो जाल्यार ह्या नाटकाचो शेवट आनीकय प्रभावी करपाक जातलो आसलो. ह्या अंता विशीं आपूण फावो तसो समाधानी ना.

ह्या नाटकांतली आनीक एक जमेची बाजू म्हणल्यार ह्या नाटकांतल्या पात्रांची तोंडांतली भास. ही भास मराठी पौराणीक वा इतिहासीक नाटकांवरी कृत्रीम न्हय तर तुमी आमी उलयतात तशी सादीसुदी भास. ही भास नाटकाच्या प्रसारणाक खंयच बादा हाडिना, वयल्यान ती नाटककाराक़ जें कितें प्रेक्षकांक सांगपाक जाय तें मुदयेर थीक कशें पावयता.

केंद्रीय साहित्य आकादेमीचो प्रतिश्टेचो असो २०१५ वर्साचो साहित्य पुरस्कार ह्या 'कर्णपर्व' नाटकाक फ़ावो जाला. फ़ाटल्या चाळीस वर्सांच्या काळांत फ़कत दोन नाट्यकृतीक 'चौरंग'-एकांकी (पुंडलीक नारायण नायक) (१९८४) आनी 'कर्णपर्व' (२०१५) हांकां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळा. एक म्हत्वपूर्ण कलाकृती उदयबाबान कोंकणी साहित्य इतिहासांत रुजू केल्या ते खातीर तांकां परबीं फ़ावतात.

**सखाराम शेणवी बोरकार**
संपर्क : 9923306751

**कर्णपर्व**
बरोवपी: ॲड. उदय भेंब्रे
पानां:७२, मोल: ९५ रुपया
उजवाडावपी: संजना पब्लिकेशन्स, सांगे-गोंय

# कविता



## तीन कविता

मनोज नरेंद्र कामत

### गड्डो

'गड्डो' म्हणिल्लो भुरगो
गड्ड्यानीच खेळटा
पेणो मारतना ताका
खोस खूब मेळटा

भुमितींत गड्डो तो
वेतां - थिर्गी जोखता
गड्डो उडयतना फोंडकुलांत
कोन धरून मोखता

भार्शेत गड्डो तो
धडो वाचपाक गडबडटा
इश्टां वांगडा खेळटना
सुटसुटीत बोली झोडटा

विज्ञान ताका कठीण
पुस्तकांनी गायंडोळ शिकता
यरा लागीं माती सुपीक ताच्या
गायंडोळ खत तोच विकता

भुगोल ताका कळना
'गती' कितेंच केल्यार वळना
वाऱ्या दिकेन केल्या चूल घरची
धुंवर दोळ्यांत जळना

परिसर अभ्यास कळत कसो ?
आवय भार्शेत शिकयना
शेत रोंयतनाचो वाठार
परिक्षेक रोंपूंक मेळना

आयजूय म्हणटात गड्डो ताका
वयलो नंबर केन्नाच आयलोना
पयलो नंबर काडपी भुरगो
फुडाराक नदरेक केन्नाच पडलोना !

नोकरी आनी पगार लेगीत
गड्ड्याक व्हडलो मेळना
कसबांतली जाण जाणकारांक
आयज लेगीत कळना

आयच्या शिकपांतली तूट
विद्वानाचे नदरेंत हाडूंक जाय
शिकिल्लें शिकप तें
जिणेंत उपेग पडूंक जाय

................................

### आयज मळब ल्हान जालें

तूं सवका सवका
सुसेगादीन चलताली
तेन्ना सगळ्यांनी
तुज्या फुडारा विशीं चिंतून
काकुळट केली
आनी भंगल्यो केल्यो

तूं निवांतपणान
फुडें वचत रावली
सवका सवका
हेरांचें आयकूंक नासून
निश्टेन आनी विश्वासान

एक दीस निवांत बसून
तुवें विणलो ' कुकून '
आनी बसली भितर
साधना रुपान
वाट पळयत
रंगोवंक फुडार
विलुदी

अळंग गेली फुटाळ
वावट विचारांक ...

सुरू जाली
तुजी धडपड
मरणकाळी
नवो संवसार पारखुपाची
हावेस पर्जळीत करपाची
होच सुखाचो खीण
पाखांत बळ
उंच भरारी मारपाक
विलुदी रंगान भरून
रंगोवपाक आसमंत

नवे जिणेतलें परिवर्तन
कोणाचीच पर्वा ना
मळबाक जमनीची शीम ना.

..................................

### अमानूश

कितलो स्वार्थी आसचो
तुवें मनशा !
म्हाका हांगा
मरणाचे धडेर सोडून
रक्तबंबाळ करून
तूं गेला ...

हांव आसलों
पयस रानांत
लोक वस्ती सावन
खूब अलिप्त
सैमाचे वेंगेंत
दोंगरा - देगणांचे
लागसाणीन
झाडां - झोपांच्या
आळी - वेलींच्या आडोशाक

भुरगेपणांतले म्हजे
सोबीत उगडास
आयजूय हांव नियाळटां
तळयेचे खोलायेंत देवून
निळें - निळशें उदक
म्हज्या दोळ्यांत
आयजूय चकचकता
खोल मेरेन
पडबिंबीत करून
म्हजें आडांगीपण

तुजो स्वार्थ
जागो जायत सावन
म्हजेर आनी वांगड्यांचेर
आयली हावळ
म्हजो घराबो
जालो उध्वस्त !
एक एकट्याक
वेचून- वेचून तुवें मारले

हांवूय आयज
हांगा धर्तरेच्या पांयार
नतमस्तक जावन पडलां
तुबकाच्यो गुळयो
रिगल्यात म्हजे भितर
खरवतीनी रानवटीपणान
तुमी म्हजे सुळे कापल्यात

आयज
म्हजें मरण तुमी विसरतले
म्हजे हस्तीदंत
गिरेस्तांच्या घरांची
सोबा वाडयतले
पूण अंतरंगांत लिपिल्ले
म्हज्या रक्ताचे दाग
केन्नाच पुसून वच्चे नात

उगत्या दोळ्यांतलीं दुकां
व्हांवतलीं एक दीस तुमच्या
नदिसपी काळजाचे खोलायेंत
रौद्रकांडांतल्यान शांत जातकच
रानटीपणांतल्यान
मनीस जातां जातां !

## तूं येता तेन्ना

### उर्जिता भोबे

तूं येता तेन्ना
पिशें वारें आंगाक अशें खेट्टा
सरभोंवतण भिजून वता
पूण काळजांत उजो पेट्टा.

तूं येता तेन्ना
थेंबे ठेक्यार वाजतात
सगळ्यो इत्सा त्या तालार
भुल्लुसून नाचतात

तूं येता तेन्ना
कुपांक नासता भान
पदर ताजो भिजोवन
हांसता तेमान

तूं येता तेन्ना
वारें धडपडटा
पियेल्ले वरी मागीर
वाऱ्याक नशा चडटा

दर वर्सा अशीच
पावळी गळटाली
पूण ताजी रूच
म्हाका खंय कळटाली?

अंदू तुवें येतना
कितें तरी हाडलां
उदकांत तें भरसून
घोग्यांकी धाडलां

अंदू कित्याक म्हाका
सरींत न्हायन दिसता
अंदू थेंब्या तालार
कित्याक गायन दिसता

कित्याक दिसता चाखन
हारशार गळटी पावळी
पापणे देगेर कित्याक
मोतयां कोवळी कोवळी

कोणाक कशें सांगू
अंदू कितें जालां
अनोळखी त्या हाशान
काळीज चोरून व्हेला

अंदू तुजे सादान
काळजाक ना रे थारो
नकळतना गाल
चाखून वता वारो

तूं येता तेन्ना
कोण जाणा कितें जाता
हांव म्हजें उरना
तुजेंच जावन वता
... तूं येता तेन्ना



## बोमाड्याचो स्वास

### अशोक भोंसलो

जात्रा-फेस्तांक फेरी भरता
फेरयेंत तरां-तरांची
खेळणी, खाणां मेळटा.
खाजे, चणे, भिकणा,
तरां-तरांचे फुलयल्ले बोमाडे
विकपाक जाण्टे तशेच भुरगे.
बोमाडेकार रबराचे बोमाडे
फुलोवन बोमाळे - बोमाडे,
फुगे-फुगे-फुगे घेयात म्हूण आइडतात,
फेरयेक आपल्या भुरग्यांक घेवन
आवय-बापूय, आजो-आजी येतात.
भुरग्यांचे आवडीक तांकां बोमाडे
विकते घेवन दितात.
कांय बोमाड्यांनी नासणे घाल्ल्यान
खुळखुळे कशे वाजतात.
ल्हान भुरगीं उमेदीन बोमाडे
घेवन खेळटात - फोडटात.
पुण तुमकां खबर आसा?
गरीब पोटाची खळय भरपाक
आपल्या हड्ड्यांतलो स्वताचो स्वास
बोमाड्यांत घालून फुलयतात
स्वताचो स्वास विकतात
पोटाखातीर स्वास विकतात
स्वास विकता.

पोटा भकेचो बोमाडो
संवसारांतलो सगळ्यात व्हडलो
तो भरून भरनात
पोटाचो स्वास बोमाडो
स्वास... स्वास..

संपर्क : 9923803158&

